वर्स 6 ◆ अंक 292 ◆ पानां 8 ◆ मोल ₹ 3.00 / पणजी / मडगांव / गोंय  REGD NO. G-2/RNP/GOA/28/2017-19 ◆ RNI: GOAKON/2016/69208  Facebook.com/Bhaangarbhuin  @Bhaangarbhuin  instagram.com/ Bhaangarbhuin  epaper.thegoan.net

आयतार, 10 एप्रील 2022

लोकभाशेंत लोकांचो आवाज

# भांगरभूंय



बीबीसी मराठी न्यूजाचेर
'कोंकणी भाषेची गोष्ट' ›› 2

›› 8
सनरायझर्स हैदराबादाक
8 विकेटींनी जैत



# सुदिन, नीळकंठ, सुभाष हांणी घेतलो मंत्रीपदाचो सोपूत

## चार दिसांत तिनूय मंत्र्यांक खातें वांटप : मुख्यमंत्री

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी : मगोचे ज्येश्ठ फुडारी सुदिन ढवळीकार, थिवीचे आमदार नीळकंठ हळर्णकार, सांगेंचे आमदार सुभाष फळदेसाय हांणी काल मंत्रीपदाचो सोपूत घेतलो. राजभवनार राज्यपाल श्री. पी. एस श्रीधरन पिल्लई हांणी तांकां मंत्रीपदाचो सोपूत दिलो. ह्या वेळार मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत, प्रदेशाध्यक्ष सदानंद शेट तानावडे हाजीर आशिल्ले.**

फूडल्या चार दिसांत तिनूय मंत्र्यांक खात्यांचे वांटप करतले, अशी म्हायती मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी ह्या वेळार दिली.

विधानसभा वेंचणूक प्रचारांत सुदिन हांणी भाजपाचेर जे पद्दतीन टिका केल्ली, ताका लागून सुदिन ढवळीकार हांकां मंत्रीमंडळांत घेतिल्ल्यान भाजप कार्यकर्त्यां मदीं खर नाराजी आसा. पूण आमी कार्यकर्त्यांक समजायतले, अशें तानावडे हांणी पत्रकारां कडेन उलयतना सांगलें.

मगोचो तेंको घेवपाक आनी सुदिन ढवळीकाराक मंत्रीमंडळांत घेवपाक मंत्री रवी नायक, सुभाष शिरोडकार, गोविंद गावडे, मॉवीन गुदिन्हो, बाबूश मोंसेरात हांणी खर विरोध केल्लो. सावंत मंत्रीमंडळांत हाचे पयलीं सुदिन मंत्री आसतना गोविंद गावडे आनी सुदिन हांचे मदले वाद जायते खेपे उक्ताडार आयिल्ले. आतां परतून सुदिन मंत्रीमंडळांत आयिल्ल्यान परतून वाद वाडटले व्हय? असो प्रस्न पत्रकारांनी तानावडे हांकां विचारलो, ताचेर तशें कितेंच घडचे ना. सगले वेवस्थीत चलतले. मंत्र्यां मदीं आशिल्ली नाराजी आनी कार्यकर्त्यां मदीं आशिल्ली नाराजी आमी पयस करतले, अशें तांणी म्हणलें.

मजगतीं, फक्त लोकसभा वेंचणूक जिखपाक भाजपान मगोचो तेंको घेतला व्हय? असो प्रस्न विचारल्यार, फाटले खेपेच्या लोकसभा वेंचणुकेंत मगोन भाजपाक तेंको दिवंक नाशिल्लो. तरी लेगीत दक्षीण गोंयांत भाजप उमेदवाराची उण्या मताधिक्क्यान हार जाल्ली. ते खातीर हे खेपे मगोचो तेंको नासलो तरी भाजपाक कितेंच फरक पडना. वेंचणुकेंत पक्ष, अपक्ष म्हत्वाचें आसतात, अशेंय तानावडे हांणी नमूद केलें.



**मंत्रीपदाचो सोपूत घेतले उपरांत मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांचे वांगडा सुदिन ढवळीकार, नीळकंठ हळर्णकार आनी सुभाष फळदेसाय.** (नारायण पिसुर्लेकार)

### भाजप-मगो युती फुडलीं 10 वर्सां तिगतली : दीपक

भाजप-मगो ह्या समविचारी पक्षांनी परतून युती केल्या. ती फुडली 10 वर्सां तिगतली, अशें मगोचे अध्यक्ष दीपक ढवळीकार हांणी म्हणलें. गोंयचो फुडार भाजप आनी मगो ह्या दोन पक्षांचेर निंबून आसून दोनूय पक्ष संघटीतपणान गोंयची सर्वांगी उदरगत करतले, असो विस्वास दीपक ढवळीकार हांणी उक्तायलो.

## अमीत पाटकार फाल्यां घेतले काँग्रेस प्रदेशाध्यक्षपदाचो ताबो

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी:** प्रदेश काँग्रेसीचे नवे अध्यक्ष अमीत पाटकार हांचे सयत कार्यकारी अध्यक्ष युरी आलेमांव, उत्तर गोंय अध्यक्ष विरेन शिरोडकार आनी दक्षीण गोंय अध्यक्ष साविओ डिसिल्वा सोमारा टोंक-मिरामार हांगा आयोजीत कार्यावळींत पदभार स्विकारतले.

आदले प्रदेशाध्यक्ष गिरीश चोडणकार नवे अध्यक्ष अमीत पाटकार हांचे कडेन प्रदेशाध्यक्षपदाचो ताबो दितले. ह्या वेळार काँग्रेसीचे ज्येश्ठ फुडारी पी. चिदंबरम, गोंय प्रभारी दिनेश राव, खासदार फ्रांसीस सार्दीन, विरोधी पक्षफुडारी दिगंबर कामत हाजीर रावतले.

मजगतीं, विधानसभा वेंचणुकेंत जाल्ले हारी उपरांत अखील भारतीय काँग्रेसीची अध्यक्ष सोनिया गांधी हिणें बेगोबेग गिरीश चोडणकार हांचो राजिनामो घेतलो. ते उपरांत खासदार रजनी पाटील हांची निरिक्षकपदार नेमणूक करून तांचे कडेन गोंय काँग्रेसींत अंतर्गत बदल करपाची जापसालदारकी सोंपयिल्ली. ते प्रमाण कांय दिसां पयलीं रजनी पाटील हांणी दोन दीस गोंयांत रावन आनी काँग्रेस पदाधिकारी, कार्यकर्त्यां कडेन चर्चा करून प्रदेशाध्यक्ष, विरोधी पक्षफुडारी ह्या पदां खातीर पात्र आशिल्ल्या फुडाऱ्यांची नांवां पक्षश्रेश्ठींक धाडिलीं. सोनिया गांधी हिणें विरोधी पक्षफुडारीपदा खातीर मायकल लोबो हांची नेमणूक करून प्रदेशाध्यक्षपदार अमीत पाटकार हांची नेमणूक केल्या.

# एससी समाजांतल्या दरेक कुटुंबा मेरेन सरकाराच्यो येवजण्यो पावोवच्यो

## मुख्यमंत्री डॉ. सावंत हांचे 'स्वयंपूर्ण इश्टांक' निर्देश



■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** भारतरत्न डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर हांचे जयंती निमतान गोंय सरकारान फुडले आठ दीस 'आत्मनिर्भर भारत-स्वयंपूर्ण गोंय' येवजणे खाला राज्यभरांतल्या अनुसूचीत जातींचे (एससी) प्रस्न, समस्या सुटावे करपाचे नदरेन चडांत चड यत्न करप आनी एससी समाजांतल्या दरेक कुटुंबा मेरेन राज्य आनी केंद्र सरकाराच्यो 100 टक्के येवजण्यो पावोवपाचें निर्देश मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी शेनवारा स्वयंपूर्ण इश्ट आनी नोडल अधिकाऱ्यांक दिल्यात.

'स्वयंपूर्ण गोंय: 2.0' च्या प्रभावी अंमलबजावणेचे नदरेन मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी शेनवारा 191 पंचायती आनी 14 नगरपालिकांतले लोकप्रतिनिधी, स्वयंपूर्ण इश्ट आनी नोडल अधिकाऱ्यां कडेन व्हर्च्युअल पद्दतीन संवाद सादलो. 14 एप्रील दिसा बाबासाहेब आंबेडकर जयंती राज्यभरांत व्हड उमेदीन मनयतले. ते निमतान 'स्वंयपूर्ण गोंय' मोहिमे वरवीं 100 टक्के येवजण्यो एससी कुटुंबा मेरेन पावोवन तांचे प्रस्न, समस्या सुटाव्यो करपाचे निर्देश मुख्यमंत्री डॉ. सावंत हांणी स्वयंपूर्ण इश्ट, नोडल अधिकाऱ्यांक दिल्यात.

सगल्यांच्या सहकार्यान 'आत्मनिर्भर भारत-स्वयंपूर्ण गोंय' चे पयले दोन टप्पे गोंय सरकारान येसस्वी पुराय केल्यात. हे मोहिमेची बुन्याद घटमूट जाल्या. फुडल्या काळांत मोहिमेक अदीक नेट दिवपाचो निर्णय सरकारान घेतला. ते प्रमाण स्वयंपूर्ण इश्टांचे संख्येत वाड करपाचे थारायला, अशें मुख्यमंत्र्यान म्हणलें.

सध्या गोंयांत 237 राजपत्रीत अधिकारी, 191 पंचायती आनी 14 पालिकांनी स्वयंपूर्ण इश्ट, 1,600 सहाय्यक, 14 नोडल अधिकारी, 26 स्वयंपूर्ण सुपरवायझर, 250 लिंक अधिकारी आनी समाज कल्याण खात्यान नेमिल्ले 81 फिल्ड असिस्टंट मोहीम येसस्वी करपाक कार्यरत आसात.

ह्या सगल्यांचो पंगड हाचे मुखार दरेक शेनवारा विवीध पंचायत, पालिकांक भेटी दिवन मोहिमेक नेट दितले. मूळ गोंयकारांचे प्रस्न सुटावे करून तांकां स्वावलंबी करपाचे यत्न करतले, अशी हमी तांणी दिली.

मोहिमे खाला जावपी कामांची नोंद हाचे मुखार दवरतले. ताचो नियाळ घेवन फुडलीं कामां हातांत घेतले. येवजणेचो लाव घेवन नवे उद्देग सुरू केल्ल्यांक विवीध कार्यावळींनी भोवमानीत करतले. अर्थीक विकास म्हामंडळा वरवीं (ईडीसी) तरणाट्यांक स्वयंरोजगारा खातीर प्रोत्साहन दितले, अशेंय मुख्यमंत्र्यान नमूद केलां.

### प्रशिक्षणा खातीर स्वयंपूर्ण इश्टांक धाडटले दुसऱ्या राज्यांनी

'आत्मनिर्भर भारत-स्वयंपूर्ण गोंय' मोहिमेंत वांटेकार जाल्ल्या स्वयंपूर्ण इश्ट आनी नोडल अधिकाऱ्यांक हाचे मुखार विवीध प्रकाराचें प्रशिक्षण दितलें. ते भायर तांकां गुजरात, मध्य प्रदेश सारक्या राज्यांनी धाडून थंयच्या येवजण्यांचो अभ्यास करून बऱ्यो येवजण्यो गोंयांत लागू करतले, अशें मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी सांगलें.



# बीबीसी मराठी न्यूजाचेर 'कोंकणी भाषेची गोष्ट'

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** कोंकणीचे युगपुरूश वामन वर्दे वालावलीकार उर्फ शणै गोंयबाब हांचे पुण्यतिथी निमतान गोंय, कर्नाटक आनी महाराष्ट्रांतल्या कोंकणी संस्थांनी विश्व कोंकणी दीस मनयलो. हे निमतान 'बीबीसी न्यूज मराठी' हे खबरां संस्थेन शुक्रारा कोंकणी भाशा, तिचो इतिहास, चळवळ, उत्क्रांती..... हाचेर बातमी उजवाडायल्या. पत्रकार जान्हवी मुळे हांची ही बातमी बीबीसीच्या सगल्या सोशल मिडिया माचयांचेर वाचपाक मेळटा. तांचे फेसबूक आनी ट्विटर ह्या दोनूय माचयेचे 18 लाखां वयर फॉलोवर्स आसात.

'कोंकणी भाषेची गोष्ट : मराठी-कोंकणी वाद काय होता? गोव्याच्या इतिहासाशी त्याचा काय संबंध आहे?' ह्या माथाळ्या खालचे हे बातमेंत उदय भेंब्रे, मुकेश थळी, दामोदर मावजो हांच्यो मुलाखती आसात. आमच्या देशाचें वैविध्य आशिल्लें सांस्कृतीक दायज सांबाळून दवरपाचें आसल्यार सगल्या भाशांचें अस्तित्व सांबाळून दवरपाक जाय. एकामेकांच्या भाशांचो आदर राखपाक जाय. चान्याचे रातीं.... ह्या पदाच्या ओळींनी सुरवात जाल्ले हे बातमेंत कोंकणी भाशेची काणी सांगल्या. संत नामदेव, लीळा चरित्र, ज्ञानेश्वरा कडेन कोंकणीचें नातें, भाशा चळवळ, पुर्तुगेजांनी 1664 त केल्लें कोंकणीचें खच्चीकरण, तांणी बंदी घाल्ली कोंकणी कशी वयर सरली, गोंया भायर खंय तिचें अस्तित्व आसा, कृष्णदास शामा, मिशनरींचें आगमन आनी ताचो कोंकणीचेर जाल्लो परिणाम, हाची सविस्तर विस्कटावणी हे बातमेंत केल्या. मिशनरी, क्रिस्तांव भाव हांणी रोमी कोंकणी खातीर केल्ल्या कार्याचोय उल्लेख वाचपाक मेळटा. मराठी- कोंकणीचो वाद, राजभाशेचो दर्जो, कोंकणीत हेर भाशांतल्यान आयिल्लीं उतरां हाचेर हे बातमेंत उजवाड पडला. भांगरभूंय दिसाळ्याच्या विशेशांकाच्या फोट्यां सयत हे बातमेंत आनीकूय दुर्मीळ फोटो आसात.

शणै गोंयबाब आनी कोंकणीचें पुनरुज्जीवन हाचेर हे बातमेंत उजवाड घाला. हे बातमे निमतान शणै गोंयबाब, तांचे कार्य, कोंकणी भाशेची वळख संवसारांतल्या मराठी वाचकांक जातली.

# बार्देसांत 11 वर्सांत 4 हजारां परस अदीक बांदकामां

## 33 पंचायतींनी 3500 बांदकामां; सगळ्यांत चड बंगले मार्रा, इमारती कळंगूटे

■ भांगरभूंय । उमेश झर्मेकार

**म्हापशें:** बार्देस हो सैमान नटिल्लो म्हाल. मांडवी, शापोरा, म्हापशें, पार खोर्जुवें ह्यो न्हंयो आनी अरबी दर्या. हांचें मदीं एका जुंव्या भशेन हो म्हाल वसला. सध्या ह्या म्हालांतलीं रानां ना जावन थंय काँक्रीटाचें रान उबें रावतां. सरकारी आंकडेवारी प्रमाण फाटल्या 10- 11 वर्सांत सुमार चार हजार बंगले आनी इमारतींचें बांदकाम ह्या म्हालांत जालां. पिळर्ण, मार्रा, थिवी, कळंगूट, कोलवाळ, सुकूर, रेईश मागूस सयत हेर पंचायतींची शारीकरणा वटेन वाचचाल सुरू जाल्या.

मेळिल्ले म्हायती प्रमाण 2010-2021 ह्या काळांत हया म्हालांतल्या 33 पंचायतींनी 2318 बंगले, चार परस अदीक फ्लॅट आशिल्ल्या 1194 इमारतींची भर पडल्या. म्हापशें पालिका वाठारांत बंगले आनी इमारती मेळून सुमार 500 ते 600 बांदकामां आसात. जाल्यार कोमुनिदाद, शेत आनी ऑर्चड जमनींत कितलीशींत बांदकामां उबीं रावल्यांत. ह्या बांदकामांचो नोंदणी आंकडो, पंचायत, नगरपालिका वा सरकारी यंत्रणां कडेन ना.



बार्देस म्हालांतल्या पंचायत वाठारांनी उबारिल्लीं बांदकामां.

शिरसय सारको पंचायत वाठार पुराय कोमुनिदाद जमनींत भरला. ह्या गांवांत वयल्या काळांत कितलीशींच बांदकामां उबीं रावल्यांत, पूण तांची पंचायती कडेन नोंदणी जाल्ली ना. ताका लागून ह्या बांदकामांचो महसुलाच्या रुपांत पंचायतीचे तिजोरीक कसलोच फायदो जावंक ना. हीच स्थिती पर्वरीच्या सेरुला आनी हेर साबार कोमुनिदादींच्या बाबतींत आसा. ते भायर कांय पंचायत मंडळांनी आपल्या वाठारांतल्या बांदकामांचो आंकडो लिपोवपाचो यत्न केला. ते प्रमाण अशी कांय पंचायतींचे आंकडेवारींत फेरफार केल्ल्याचें दिसता.

आंकडेवारी प्रमाण 2010 ते 2021 ह्या काळांत सुमार 80 टक्के बांदकामां पंचायत वाठारांत जाल्यांत. सगळ्यांत चड बंगल्यांचें बांदकाम पिळर्ण मार्रा (371), थिवी (244) आनी कोलवाळ (225) जालां. जाल्यार सगळ्यांत चड 226 इमारती कळंगुटे बांदल्यांत. ते उपरांत पिळर्ण मार्रा 128, रेईस मागूर 105 आनी कांदोळे 102 इमारतींचो आसपाव आसा.

साळगांव मतदारसंघांत पिळर्ण मार्रा, रेईश मागूस, नेरूल, साळगांव, गिरी आनी सांगोल्डें ह्या स पंचायतींचो आसपाव आसा. ह्या मतदारसंघांत फाटल्या 11 वर्सांत सगळ्यांत चड 1157 बांदकामां (810 बंगले, 347 इमारती) जाल्यांत. ते उपरांत कळंगूट मतदारसंघाचो नंबर लागता. ह्या मतदारसंघांत कळंगूट, कांदोळी, हडफडें नागवें आनी पर्रा ह्या पंचायतींचो आसपाव आसा. तातूंत 582 बांदकामां (189 बंगले आनी 393 इमारती) जाल्यांत.

पर्वरी मतदारसंघांत सुकूर, पेन्ह द फ्रांन्स आनी साल्वादोर द मुंद ह्या तीन पंचायतींचो आसपाव आसा. तातूंत 427 बांदकामां (223 बंगले आनी 204 इमारती) जाल्यांत.

थिवी मतदारसंघांत अस्नोडें, शिरसय, थिवी, कोलवाळ, रेवोडें, नादोडं, पीर्ण आनी कामुर्ली ह्यो 8 पंचायती येतात. तातूंत 579 बांदकामां (519 बंगले आनी 78 इमारती) जाल्यांत.

हळदोणें मतदारसंघांत बस्तोडें, मयडें, नास्नोळें, उसकय पालयें पुनोळा, पोंबुर्फा वळावली आनी हळदोणें ह्या स पंचायतींचो आसपाव आस. तातूंत 415 बांदकामां (374 बंगले आनी 41 इमारती) जाल्यांत.

### 11 वर्सांत शिरसय एकूय बांदकाम ना?

बंगलो आनी इमारत ह्या दोनूय बांदकाम प्रकारांत पिळर्ण मार्रा पंचायतींत 499, थिवी 314, कळंगूट 258, कोलवाळ 227, रेईश मागूस 204, सुकूर 192 ह्या पंचायतींचो नंबर लागता. हळदोणें सारकिल्ल्या सैमाचें देणें लाबिल्ल्या पंचायत वाठारांत 100 बंगले आनी 24 इमारती मेळून 124 बांदकामां उबीं रावल्यांत. साळगांव 158, गिरी 149, साल्वादोर द मुंद 146, कांदोळी 135, सांगोल्डें 127, पर्रा 104, मयडें 89 हांचो नंबर लागता. जाल्यार हणजुणें कायसूव, कामुर्ली, नादोडें, उसकय पालये पुनोळा, पोंबुर्फा वळावली, सडये शिवोली आनी पीर्ण ह्या पंचायत वाठारांत एकूय चार परस चड माळ्यांची उबीं रावूंक ना. शिरसय बंगलो वा इमारतीची नोंदणी जावंक ना.

## कदंबा कर्मचाऱ्यांक विशेश सत्रांत मार्गदर्शन

■ भांगरभूंय । डीआयपी

**पणजी:** कदंबा येरादारी म्हामंडळाच्या कर्मचाऱ्यां खातीर शेनवारा पर्वरे संजय स्कुलांत विशेश सत्र आयोजीत केल्लें. ह्या सत्रांत बशींतल्यान प्रवास करतना नेत्रहीन आनी कर्णबधीरांक येवपी समस्यांची म्हायती तांकां दिली.

दिव्यांगजन आयुक्त आनी समाज कल्याण खात्यान कदंबाच्या कर्मचाऱ्यां खातीर सुरू केल्ल्या "विशेंश व्यक्ती हक्क जागरूकताय सत्र" चो एक भाग म्हूण ह्या सत्राचें आयोजन केल्लें.

चालक आनी कंडक्टरांक तांच्या समस्यांची जाणीव करून दिवपाच्या उद्देशान ह्या सत्राचें आयोजन केल्लें.

आदली विशेश व्यक्ती आयुक्त अनुराधा जोशी आनी राज्य विशेश व्यक्ती आयुक्त कार्यालयाचे कर्मचारी हांणी संजय शाळेच्या सभाघरांत 50 जाणांच्या पंगडा खातीर ही कार्यावळ आयोजीत केल्ली. नेत्रहीन महादेव गांवकर हांणी सांकेतीक भाशेंतल्यान नेत्रहीनांच्यो समस्यां सांगल्यो. दिव्यांगजन आयुक्त गुरूदास पावसकर हांच्या मार्गदर्शना खाला हें सत्र जालें.

# शणै गोंयबाबान कोंकणी मनशाचो स्वाभिमान जागयलो: संजीव वेरेंकार

■ भांगरभूंय । खबरां मेज

**पणजी:** कोंकणी चळवळीचे जनक आनी प्रवर्तक शणै गोंयबाब अर्थात वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार हांचे पुण्यतीथी निमतान शुक्रारा मंगेशी कार्यावळ जाली. ही कार्यावळ स्नेह प्रकाशन आनी आनंद प्रकाशन हांणी जोडपालवान आयोजीत केल्ली. हे कार्यावळीक मुखेल सोयरे म्हूण साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाल्ले नामनेचे कवी, साहित्यीक आनी ज्येष्ठ पत्रकार संजीव वेरेंकार मुखेल सोयरे आसले. तांणी आनी हेर मानेस्तांनी गोंयबाबांचे प्रतिमेक फुलां ओंपलीं.

शणै गोंयबाबान कोंकणी मनशाचो स्वाभिमान जागयलो, भाशेचें अस्तित्व सिध्द केलें, अशें वेरेंकार हाणी सांगलें. तांच्या वावराक लागून जें शास्त्रशुध्द मुळावण घडलें ताकाच लागून कोंकणी चळवळ मुखार व्हरप शक्य जालें. एका मनशान इतलीं पुस्तकां बरोवप हें पळोवपाक कल्पने भायलें दिसता. संशोधनात्मक, अणकार, ललीत, व्याकरण, भासशास्त्र अशा सगळ्या तरांचें गोंयबाब ह्या विद्वानान रचलें. सगळ्यांनी आपापली जापसालदारकी सांबाळून कोंकणीचे उदरगती खातीर एकवटीतपणान पेंगट बांदपाचो हो वेळ, असो उलो वेरेंकार हांणी मारलो.

साहित्यीक, अनुवादक, कोशकार मुकेश थळी हांचें शणै गोंयबाबांच्या साहित्यांतलीं सोबीत थळां ह्या विशयाचेर मुखेल उलोवप जातलें. भगवद्गीतेचो गोंयबाबान केल्लो अणकार कितलो सोबीत आनी शुध्द तें थळी हाणी देखी दिवन स्पष्ट केलें. पोवनांचें तपलें ह्या मोलीएराच्या नाटकांतल्या कांय वेंचीक संवादांचें तांणी अभिवाचन केलें. आयच्या अनुवादकांनी शणै गोंयबाबांचें अणकारीत साहित्य अभ्यासल्यार ते भितल्ल्यान कौशल्याचे नदरेन गिरेस्त जातले, तांचें भाशा सामर्थ्य वाडटलें अशें मुकेश थळी हाणी सांगलें. झिलबा राणो आनी हेर पुस्तकांतल्यो सोबीत देखी दिवन गोंयबाबांच्या साहित्याक एक सुंदर परमळ आसा अशें थळी हाणी सांगलें.

नामनेचे कलाकार सुभाष जाण हाणी सूत्रसंचालन केलें.



शणै गोंयबाबांचे प्रतिमेक फुलां ओंपतना संजीव वेरेंकार.

# मंत्रीमंडळांत कोणाक घेवचो तो अधिकार मुख्यमंत्र्यांचो: काब्राल

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**मडगांव:** राज्य सरकारांत कोणाक मंत्रीपद दिवचें हो अधिकार मुख्यमंत्र्याक आसता, तो ताचो निर्णय. ताका फुडलीं पांच वर्सां सरकार चलोवपाक जाय. आपूण कॅबिनेट मंत्री आसा. कांय म्हत्वाच्या खात्याची जबाबदारी दिल्या तांकां आपूण योग्य न्याय दिवपाचो यत्न करतलों, अशें भौशीक बांदकाम मंत्री निलेश काब्रालान सांगलें. मडगांवां एके कार्यावळीक आयिल्लो तेन्ना काब्राल पत्रकारां कडेन उलयतालो.

लोकप्रतिनिधीं कडल्यान लोकांच्यो खूप अपेक्षा आसतात, मात सगळ्योच पुराय जायनात, अशें ताणी सांगलें.

तमनार प्रकल्पा संबदान उलयताना काब्रालान सांगलें, हो प्रकल्प जावप सामको गरजेचो आसा. बिगर सरकारी संघटणा दाखोवपाक सोदतात एक आनी दाखयतात भलतेंच. जर हो प्रकल्प जालो ना जाल्यार इंडस्ट्रीज मळार त्रास जातले, तांकां तेंको दिवपाक जाय. पर्यावरण सांबाळपाक जाय आनी इंडस्ट्रीज चलोवपाक जाय, नाजाल्यार शेजारच्या महाराष्ट्र राज्यांत लायटीची जशी समस्या आसा तशीच गोंयांत उप्रासतली. वीज खातें सध्या



मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हाचे कडेन आसा, मात तमनार प्रकल्पाचेर जाता तितले बेगीन निर्णय घेवचो पडटलो, अशें काब्रालान सांगलें.

उदकाच्या वाडीव बिला संबदान काब्रालान सांगलें, आपूण मुख्यमंत्री डॉ. सावंत हाचे कडेन उदकाच्या वाडीव बिला संबदान चर्चा करतलों. लोकांनी उदकाचीं बिला फारीक करचीं. सगळें बील भरपाक जायना जाल्यार 50 टक्के रक्कम भरची. भिवप ना. उदकाचो वापर जतनायेन करचो. जे उदक पुरवण करपाक येता ते ट्रीट केल्ले उदक आसता. ते खातीर गाडी धुतना पायपाचो वापर करी नसताना बादलेंत उदक घेवन गाडी धुवची, उदक उणें लागतलें, अशें ताणें सांगलें.




'अमर प्रेम' पुस्तक प्रकाशन करतना मंत्री निलेश काब्राल. कुशीक प्राचार्य अनिल सामंत, अरुण रायकार, रजनी रायकार, गुलाब भोसले, सारिका अडविलकार आनी ज्योतीबा पाटील.

# समाजांत घडटा ताचेर विचार करपाक लायता 'अमर प्रेम' पुस्तक: काब्राल

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**मडगांव:** 'अमर प्रेम' पुस्तक समाजांत जें कितें घडटा ताचेर विचार करपाक लायता. गुलाब महादेव भोसले हांणी तें मन लावन बरयलां. सगळ्यांनी तें मुजरत वाचचें. गुलाब भोसले हांणी आनिकूय पुस्तकां बरोवचीं, अशें भौशीक बांदकाम मंत्री निलेश काब्राल हांणी सांगलें. गोवा मराठी अकादमी साश्टी विभागान मडगांवच्या रवींद्र भवनांत आयोजीत केल्ल्या, गुलाब भोसले हांच्या 'अमर प्रेम' पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्याक काब्राल मुखेल सोयरे म्हूण हाजीर आशिल्ले.

ह्या वेळार माचयेर कार्यावळीचे अध्यक्ष म्हूण गोवा मराठी अकादमीचे अध्यक्ष अनिल सामंत, पुस्तकाचेर मुखेल उलवपी मराठी साहित्यिका रजनी रायकार, मानाची सोयरी प्रा. सारिका अडविलकार, लेखिका गुलाब भोसले, अरुण रायकार आनी ज्योतीबा पाटील हाजीर आशिल्ले.

प्रा. अनिल सामंत हांणी सांगलें, अमर प्रेम कादंबरींत एका घराब्यांतले प्रस्न मांडल्यात. कादंबरी सुंदर बरयल्या. तांणी आनिकूय लेखन करचें.

सुत्रसंचालन योगिता वेर्णेकारान केलें, महादेव भोसले हांणी उपकार मानले.

# पंच अपात्रताय आदेशाक स्थगिती दिवपाक न्यायालयाचो न्हयकार

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें:** पंच पदा वयल्यान अपात्र थारायिल्ल्या गट विकास अधिकाऱ्याच्या आदेशाक स्थगिती दिवन अंतरीम थाकाय दिवपाक अतिरिक्त जिल्हो सत्र न्यायालयान रोशनी राजेश सावयकाराक न्हयकार दिला.

साल्वादोर द मुंदची पंच रोशनी सावयकारान आपल्या पदाचो गैरवापर करून कुटुंबियांच्या घराक वेगवेगळ्या घर नंबरा सयत उदक कनेक्शनाचो लाव मेळोवन दिल्लो. ह्या प्रकरणांत थळावो नागरीक नरेंद्र पांडुरंग च्यातीम हाचे कागालेच्या आदारान 23 मार्चाक सावयकाराचेर कायदो मोडिल्ल्याचें कारण दिवन बार्देसचो गट विकास अधिकारी शिवप्रसाद नायकान तिका पंच म्हूण अपात्रतायेचो आदेश दिल्लो.

हो घर नंबर नळ कनेक्शना खातीर ना हरकत दाखलो दिवपाक वापरिल्लो. तेन्ना सावयकार उपसरपंच आशिल्ली. तशेंच घर नंबर आनी नळ कनेक्शनाक मंजुरी दितना ती पंचायत मंडळाचे बसकेक हाजीर राविल्ली. ताका लागून गट विकास अधिकाऱ्यान पंचायत राज कायदो 12 (1) (2) आनी 55 (4) या कलमा खाला ही अपात्रतायेची कारवाय केल्ली.

गट विकास अधिकाऱ्याच्या ह्या आदेशाक सावयकारान म्हापशें अतिरिक्त जिल्हो सत्र न्यायलयांत आव्हान दिलां. वयल्या आदेशाक स्थगिती दिवन आपल्याक अंतरीम थाकाय दिवची, अशी तिणें न्यायलया कडेन विनवणी केल्या. साल्वादोर द मुंद पंचायत, कागाळदार नरेंद्र पांडुरंग च्यातीन आनी गट विकास अधिकाऱ्याक सावयकारान याचिकेंत प्रतिवादी केल्यात.

याचिके वयले सुनावणे वेळार न्यायाधीश एन. एस. आमोणकारान दोनूय वटांतलो युक्तीवाद आयकले उपरांत आदेशाक अंतरीम स्थगिती दिवपाची मागणी भायर मारली.

# बांयंत पडिल्ल्या बिबट्याक जीवदान

**› हल्ल्यांत वासरू जखमी**

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**दिवचल:** कुडणें गांवांतल्या भीण वाड्या वयल्या शेळ हांगा प्रेमानंद राणे हांच्या घरा शेजारच्या गोठ्यांत काल रातीं वासराक खावपाक आयिल्लो बिबटो बांयंत पडलो. ही म्हायती रान खात्याच्या अधिकाऱ्यांक मेळ्ळे उपरांत तांणी येवन बिबट्याक सुखरूप बांयंतल्यान भायर काडलो. बिबट्यान केल्ल्या हल्ल्यांत वासरू मात जखमी जालें.

मेळिल्ले म्हायती प्रमाण कुडण्यां प्रेमानंद राणे हांच्या घरा शेजारा गायीचो गोठो आसा. थंय गाय आनी तिचे वासरू आशिल्लें. बिबट्यान गायीच्या वासराचेर हल्लो केलो, तेन्ना थंयच मेकळी आशिल्ले गायीन बिबट्याचेर हल्लो केलो. हातूंत बिबटो कुशीकूच आशिल्ले बांयंत जावन पडलो. हे विशीं रान खात्याच्या अधिकाऱ्यांक म्हायती मेळ्ळे उपरांत ते रोखडेच घडणूक सुवातेर पावले. ही खबर कळ्ळे उपरांत लोकांनी थंय मोट्या प्रमाणांत गर्दी केल्ली.

रान विभागाचे अधिकारी विवेक गांवकार आपल्या पंगडा सयत येवन बिबट्याक बांयंतल्यान भायर काडलो. बांयंत पडिल्ल्यान बिबटो जखमी जाल्लो. ताचेर केरी हांगा व्हरून वैजकी उपचार करून ताची सुखरूप सुटका केली.



कुडण्यां बांयंत पडिल्लो बिबटो. (विशांत वझे)

# काजू पिकाचें व्हड लुकसाण

## डॉ. दिव्या राणेंचे मुख्यमंत्री, शेतकी मंत्र्याक पत्र



■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी:** आडवेळ्या पावसान शेतकारांचें व्हड लुकसाण जालां. तातूंतल्या तातूंत काजू पिकाचें चड लुकसाण जालां. शेतकरांक लुकसाण भरपाय दिवची, अशें पर्येची आमदार डॉ. दिव्या राणे हांणी मुख्यमंत्र्यां सयत शेतकी मंत्र्याक पत्र बरयलां. फक्त आपल्या सत्तरी म्हालांतलेच न्हय जाल्यार सांगें, केपें, काणकोण, पेडणें, फोंडें, धारबांदोडें ह्या सारकिल्ल्या गांवगिऱ्या म्हालांतले लोक व्हड प्रमाणांत काजू पिकाचेर अवलंबून आसात, अशेंय डॉ. राणे हांणी पत्रांत नमूद केलां.

काजींक टी मॉस्किटो हो रोगूय लागला. ह्या रोगाक लागून सुमार 40 टक्के पिकाचेर परिणाम जाला. तेभायर आडवेळ्या पावसान हे पीक आनीक काबार केलां. ह्या दोन कारणांक लागून काजींचे पीक वट्ट 80 टक्क्यांनी उणें जालां, अशें डॉ. राणे हांणी म्हणलां. इतल्या व्हड प्रमाणांत हें पीक उणें जाल्ल्यान शेतकारांचें लाखांनी रुपयांचें लुकसाण जालां, अशें तांणी सांगलें.

### लुकसाणीचें सर्वेक्षण करचे: डॉ. राणे

शेतकारांचें जें लुकसाण जालां ताचें पयलीं सरकारान सर्वेक्षण करचें. ह्या सर्वेक्षणा खातीर मामलेदार आनी शेतकी खात्याच्या अधिकाऱ्यांचो उपेग करून घेवचो, अशी मागणी आमदार डॉ. दिव्या राणे हांणी केल्या. हें सर्वेक्षण पुराय जाले उपरांत फुडले सोपस्कार पुराय करून बेगोबेग शेतकारांक अर्थीक मजत दिवन तांकां थाकाय मेळटली हाची जबाबदारी सरकारान घेवपाक जाय. हे सगळे प्रक्रियेंत आपूण लेगीत मजत करपाक तयार आसा, अशेंय डॉ. राणे हांणी म्हणलां.

# देशाची अर्थवेवस्था लडखडटा

दीपक लाड
पर्वरी

म्हारगायेच्या भस्मासूरान देशाच्या मध्यम आनी गरीब वर्गाक हुलपावन काडला. फेब्रुवारींत फाटले आठ म्हयन्यांत सगळ्यांत चड म्हणल्यार 6.07 टक्क्यांचेर चलनवाड सूचक पाविल्लो. तर पर्चेसिंग मॅनेजर्स इंण्डॅक्स, जो कारखानदारी आनी सेवा क्षेत्रांतली क्रियाशीलताय दर्शयता तो 54.9 टक्क्यांनी उणावला. बेरोजगारी वाडल्या. 2019 ते 2022 मेरेन दोन कोटी भारतीयांच्यो नोकऱ्यो गेल्यो. गेल्या सात-आठ वर्सांत म्हारगाय भत्तो वाडत 27 टक्क्यांचेर पावला खरो, पूण म्हारगाय 150 ते 300 टक्क्यांनी वाडल्या. आठ वर्सां फाटींच्या एका किलाच्या दरांत आयज पीठ अर्द किलो, तांदूळ पाव किलो तर एक लिटर मोलाचें तेल फकत दोनशे मिली मेळटा.

भारताचो जीडीपी रू. 135 लाख कोटी (ट्रिलियन) दरम्यान आसा. राज्याचीं रिणां रू. 80 लाख कोटी तर केंद्राचें विदेशी रीण रू. 46 लाख कोटींचेर पावलां. रीण वाडयत गेल्यार कर्जबाजारी जातले. म्हारगाय तेंगशेर पाविल्ल्यान कर वाडयल्यार अर्थवेवस्था इबाडटली. ते खातीर सरकारान भौशीक उद्देग क्षेत्र चालीक लावन संपत्ती, साधन सामग्रीची निर्मिती करून प्रशासन चलोवप गरजेचें जालां. तातूंतल्यान रोजगार वाडटा आनी जनतेक फावोशा मोलान वस्तू आनी सेवा उपलब्ध करूं शकतात. सरकाराक उद्देग जमना. धंदो करप सरकाराचें काम न्हय, अशें प्रधानमंत्री मोदींचें म्हणणें.

देशाची दीर्घकालीन लीज केल्ले विमानतळ, बंदरां, उद्देग वापरून अडानी दिसपट्टे रू. 750 कोटी कमयता जाल्यार अंबानी रू. 375 कोटी. दोगूय आशियांतले गिरेस्त जातात तेन्ना देशाच्या भौशीक मळा वयल्यो दोनशे मायज कंपन्यो लुकसाणांत आसतात आनी सरकार त्यो विकून दुडू एकठांय करपाच्या यत्नांत आसता, तर 80 कोटी जनता मोफत जेवण-खाणाच्या आशेर जीण जगता.

सगळ्यांत चड जीएसटी रू. 1.42 लाख कोटी मार्च म्हयन्यांत एकठांय केले म्हूण अर्थ मंत्रालयान स्वताची तोखणाय करपी जायरातबाजी केली, पूण जीएसटीच्या जाचक दरा खाला सरकारान ल्हान धंद्यांची नासाडी केल्या हेंवूय तितलेंच खरें. ते तुळेन अंबानी, अडानी सारकिल्ल्यांच्या कंपन्यांचो कॉर्पोरेट दर सरकारान उणो दवरला. सरकारान 417 अब्ज डॉलर अभूतपूर्वशी निर्यात केली खरी, पूण ताचे परस चड 610 अब्ज डॉलर आयात जाल्या. वेव्हारांत 200 अब्ज डॉलरांची विदेशी मुद्रा दिवची पडप म्हणल्यार अर्थवेवस्थेक लुकसाण. आमी म्हणटात तितले आत्मनिर्भर जाल्ले ना असोय ताचो अर्थ जाता.

धा वर्सां बंद पडिल्ल्या खण वेवसाया सारकिल्या थीर उद्देगाक चालना दिवन उत्पन्न कमोवपाचें सोडून आमचें गोंय सरकार जुगार आनी पर्यटनांतल्यान कर जोडपाचेर भर दिता. वाहन चालकांक तालांव दिवन एका दिसा चार लाख मायज दंड वसूल केलो हाका कर्तृत्व मानता. अर्थवेवस्था, प्रशासन चलोवपाची कुवत, कुशळटाय देशांतल्या सत्तालालसी, सत्ताजिवी राजकारण्यांत दिसना. आंतरराष्ट्रीय नामनेचे अर्थशास्त्री देशांत आसात पूण तांचें मार्गदर्शन घेवप हातूंत सरकाराक उणेपण दिसता. अडानी, अंबानी किर्तनकार प्रधानमंत्र्या परस चड बरे तरेन देशाचे आनी कसिनो धनी गोंय राज्याचें प्रशासन चलोवपाक शकतले अशें दिसता.

गेल्ले पंद्रसींत पॅत्रॉल, डिजेलाचे दर दिसपट्टे वाडल्यात. युक्रेन युद्धाचें कारण दितात खरें, पूण उलट रशिया आमकां युद्धपूर्व बॅरल दराचेर पस्तीस डॉलर उणे करून विकपाक राजी जाला. क्रूडाचे दर पाताळांत गेल्ले, सांठवणीचो खर्च वाटोवपाक बॅरलां फुकट- सवाय उबारात अशी परिस्थिती जाल्ली तेन्नाय सरकारान दर देंवयले नाशिल्ले. 2014 सावन मोदीचे राजवटींत रू. 53 लाख कोटी तेल विक्रींतलो रू. 29 लाख कोटी (रू. 17 लाख कोटी केंद्रीय एक्सायज, 12 लाख कोटी राज्यांचो वॅट) सरकारांनी कर रुपान उबारला. लोकांक मोफत धान्य, कड्डाण, तेल वाटपा खातीर कर लायला अशें सरकार म्हणटा जाल्यार ताचेर वर्सुकी फकत देड लाख कोटी खर्च जाता. केंद्रान मात गेल्ल्या एकाच वर्सा तेलाचेरूच साडे तीन लाख कोटी रुपयांचो एक्सायज कमयला.

दुसरी गजाल घरा बसोवन फुकट धान, कड्डाण, साकर, तेलां दिवन पोसपाची गरज कसली? मनरेगा खाला कामा दिल्यार रोजगार उपलब्ध जातले. पगारांतल्यान ते खाणां-पिणां विकते घेत आत्मनिर्भरूय जातले आनी अर्थवेवस्थेंत मागणी (डीमांड) वाडयतले. गेल्ल्या वर्सा रू. 98,000 कोटीचे मनरेगा बजेट सरकारान 34 टक्के उणे करून ह्या वर्सा रू. 73,000 कोटींचेर हाडून दवरला, शिवाय गेल्ल्या वर्सा शंबर दिसां जाग्यार फकत पन्नास दिसूच काम दिल्लें.

तेलाचो उपेग कृशी क्षेत्रांत शेतांतल्या पम्पांत, ट्रॅक्टरांत, उद्देग- कारखानदारींत मालाची वाहतुकींत, यंत्रा चलोवपांत आनी सेवा क्षेत्रांत वाहतुकींत जाता आशिल्ल्यान जीवनावश्यक धान, कड्डाण, वस्तू, यंत्रा आनी सेवा म्हारग जातात. सगळीं क्षेत्रां एके शिमे मेरेन तेलाचो वाडीव खर्च आपले फायद्याचे मार्जिन उणावन सोंसपाक शकता. ताचे पेल्यान तो भार तांकां उपभोक्त्यांच्या माथ्यार मारचोच पडटा.

आमच्या घरगुती उत्पादनांतलो (जीडीपी) 50 ते 60 टक्के भाग वैयक्तीक उपभोक्ते विकत घेतात. म्हारगायेन जर उपभोक्त्याच्या हातांत दुडू उणावलो तर अर्थवेवस्थेंतलो डीमांड उणो जाल्ल्यान खडतर काळांतल्यान मार्ग काडपी अर्थव्यवस्थेचें पुनरुज्जीवन कुस्तार जातलें.

इंधन दर वाडीक लागून उद्देग-धंदे थंडावल्ल्यान परिणामी वाहतूक उणी जाल्यार स पदरी रस्ते बांदून विकास कसलो जातलो. कर वाडोवपी सरकार मात फोल्गां मारता. राष्ट्रपती आनी प्रधानमंत्र्याच्या विमानाचेर वट्ट 8400 कोटींचो खर्च, संसदेची नवी इमारत, सेंट्रल विस्तार प्रकल्पाचेर रू. 1340 कोटीचो खर्च कुस्तार काळांत करपाची गरज कित्याक पडची. बॅंक भ्रश्टाचार आनी फटवणुकींत दर दिसा सरासरी रू. 100 कोटींचो चुनो लागता. चडशे गुन्यांवकार परदेशांत धांवतात. रू. 22000 कोटींचो भ्रश्टाचार केल्लो ऋशी अगरवाल देशांत आसलो तरी वसुलीची कसली कारवाय जाल्या ते सांगनात. फाटल्या दारान सरकार करदात्यांच्या दुडवांतल्यान असलीं रिणां रायट ऑफ म्हणल्यार खातें वहींतल्यान काडून उडयता. गुन्यांवकारां कडल्यान चडशी वसुली जायना. सरकाराक कमोवपाची तांक नासत जाल्यार चौकीदारी करून देशाची आसा ती संपत्ती राखून दवरची. ना जाल्यार फुडें देश चलोवपाक रिणां वाडयत आमी जातले कर्जबाजारी श्रीलंका.

कव्हरस्टोरी

# कितली म्हारगाय गे सायबिणी...

सुहासिनी प्रभुगावकर
9881099260

चवथ, दिवाळी लागीं पावली की साकर, गोड, चण्या दाळीचें पीठ, रवो, तेल, तूप, मैदो तशेंच भाजी, फळां, फुलांच्यो दरो वाडटात. चवथी, दिवाळे वेळार गाडयांची खरेदी चड जाता म्हणून गाडयांचें लेगीत मोल वाडिल्लें आसता, पेत्रोल, डिजेलय तापता. वेपार (वाणिज्य, कॉमर्स) शिकपी विद्यार्थ्यांक सदचे जिणेच्या वस्तींक जितली मागणी चड तितली दरेंत वाड जाता, मागणी उणी जाली की मोलय देंवता हें गणीत खबर आसूंकच जाय, पूण आमी तें सादारण मनशांक समजावन सांगतात व्हय? आमकां दिसता मोल वाडलें की जाता तें आंदोलन, भाड्यान हाडिल्ल्या लोकांच्या चोंब्या भितर म्हारगायेंत हुल्पल्ले कितले आसतले तें सांगप कठीण. एक गजाल सत, म्हारगाय काँग्रेसीचें सरकार आसतना वाडिल्ली आनी आतां भाजपाच्या सरकारावेळारय तेंच.

तेन्ना म्हारगाय वाडल्या म्हणून भाजपा रस्त्यार येताली, आयज काँग्रेस येता, अदीं मदीं हेर राजकी पक्षांचेय बांवटे दिसतात. वर्साक दोन फावट पिडिल्लो, नडिल्लो कामगारय तांबडो बांवटो घेवन रस्त्यार देंवता, हालींच्या तेंपार तेंय उणें जालां. आपल्याक कामगार म्हणून घेवपी कामगारवर्ग कितलो आसा? खरेपणीं कामगारांनी दिवटी हातांत घेवन झुजाच्या आंगणांत देंवल्यार काँग्रेस, भाजपा ह्या राजकी पक्षांची सरकारां उरतलीं आसलीं व्हय? दिसाळ्यांत काम करपी खबरांकार कामगार कायद्या खाला येतात, पूण कायद्याची तांकां याद जाता ते तांकां सेवेंतल्यान भायर मारतात तेन्ना. पत्रकारच जेन्ना आपूण कामगार म्हणून विसरता तेन्ना हेरांचें कितें? तशेंच आयज मातशें गोंयां सारक्या राज्यांत सरकारी सेवकांचेय जालां. म्हारगाय वाडली की केंद्र सरकार म्हारगायेच्या भत्तो वाडोवन दिता पूण तें राज्यांच्या कनिश्ठ वर्गांतल्या सेवेकऱ्यांक खबर आसता व्हय? तांकां एकठांय हाडपी तरी फुडारी कितले उरल्यात? एकवटीत जाल्यारय तांकां मोडून उडोवपाचेच येत्न जातले पूण खंय तरी आरंभ जावचोच, परतून एकदां कामगार चळवळीचे दीस येत व्हय?

म्हारगायेच्या आंदोलनांतल्यान रस्त्यार देंवत गोंयांत पयल्या भाजपा आघाडी सरकाराचे पयले मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकार हांचें नेतृत्वय घडलें. तांणी फकत आमदार जावचे आदीं म्हारगाये वेळार जावपी आंदोलनातच न्हय जाल्यार मुखेलमंत्री पदार आसतनाय म्हारगायेच्या आंदोलनांत वांटो घेतिल्लो. 2012 वर्सा भाजपा गोंयांत सत्तेंत आसतना केंद्रांत काँग्रेस सरकार आशिल्लें, तेन्ना म्हारगाय आयचे वरींच वाडिल्ली. भाजपावाले पणजे आंदोलन करताले तातूंत मुख्यमंत्री आसतनाय मनोहरबाब सामील जाल्ले. आदल्यो पर्यावरणमंत्री आलिना साल्दाना पणजे फेरीबोटीच्या धक्या लागीं आशिल्ले उगते सुवातेर फातरांचे चुलीर कायल दवरून भजीं तळटाल्यो. कांद्यांच्यो माळो गळ्यान घालून पयलींच्यो महिला काँग्रेसच्यो प्रदेशाध्यक्ष प्रतिमा कुतिन्हो आनी वांगडी बायलो आंदोलनांत आसताल्यो. भाजपाच्यो प्रदेश महिला अध्यक्ष कुंदा चोडणकार कांदे, मिरसांगांच्यो माळो घालून ह्योय म्हारगाय आंदोलनांत वांटेकार जाल्यात. म्हारगाय वाडिल्ली आसतना गरजेचे, नित्याचे जिणेंत जाय ते जिन्नस आंदोलनांत वापरप सोबता व्हय? पेत्रोल, डिझेल दरवाड जाली तेन्ना आतां भाजपांत वचपाचे आसात म्हणटात ते आमदार दिगंबर कामत हांणी सायकल भोंवडी काडिल्ली. पणजे म्हणल्यार आंदोलनाचें शार म्हणून काल आनी आयजय नामना जोडून आसा तें तशेंच उरतलें की पणजेचो इतिहासच बदलतलो तें आयजच सांगप शक्य जावचें ना पूण पणजी म्हारगायेंत सदांच मुखार आनी ती तशीच उरची.

म्हारगायेचीं गणितां जितलीं व्हड तितलेंच कवित्व आनी फुगड्यो, सुवाळेय, थंयच आंदोलनाक अडेचें रूप येता, त्या रुपांतल्यान म्हारगायेन हुल्पल्ल्यांक थाकाय दिवंक केल्ली गृह आधार सारकी येवजणय शेणटा. आयचे म्हारगायेंत सादारण मनीसच न्हय जाल्यार वेवसायीकय हुलपतात अशें दिसता. सरकारान गृह आधार येवजणेचो नियाळ घेवन तातूंत बदल करपाक जाय. नियाळा बगर गृह आधार येवजणेंतल्यान मेळपी दुडवांत समा जावचें ना, महालेखापालांच्या अहवालांतल्यान गृह आधारच न्हय जाल्यार सरकाराच्या साबार समाजीक सेवा येवजणेंतलीं फटिंगपणां विधानसभे मुखार आयिल्लीं. ताचेर अभ्यास करून उपाय केले व्हय?

चवथी वेळार 'कितली म्हारगाय गे सायबिणी' म्हणत फुगड्यो घालतात, पूण चवथीक नाका तितलो दुडवांचो धुंवरय जाता. मागीर तें व्हडा तोपांनी प्रमाणा परस चड रांदपय आसूं वा फोगाचेर दुडू मोडप आसूं. फोग मारपाचें प्रमाण देंवलां, पूण गाडयांचो धुंवर उणो जाला व्हय? एका घरांत चार- चार गाड्यो आसात, पार्किंगाक जागो ना. ही स्थिती पणजेची, तशीच हेर शारांचीय. म्हारगाय वाडटकच गाडयो घेवप थोडें कमी जालें तरी तें साप्प थांबता अशें न्हय. म्हणल्यार म्हारगाय खपोवन घेतात असोय अर्थ जाता आनी अडेचें म्हारगायेचें आंदोलन सोंपता, म्हारगाय वाडत आसता. वेंचणुके वेळार मतां मेळोवपा खातीर म्हारगाय देंवोवपाचो खेळय जाता, जसो अंदूं रांदपाच्या गॅसांत जालो.

तुमी, आमीच म्हारगायेक चिमटो काडल्यार? जाय तितलेंच विकतें घेवप, कोण कितें खाता, जेवता ताचो अदमास घेवन रांदप. संवसार पाडवो, चवथ, दिवाळे वेळार नेवऱ्यो, पातोळ्यो, मुगांगांठी, गोडाचे फोवच न्हय जाल्यार शीतय कमी रांदल्यार.... दुसरे दीस तें भायर उडोवप, शेळें खावप आपसूक थांबतलें. भलायकी सुदारतली. पेत्रोल, डिझेलाचो वापर कमी करपा खातीर वेळ आसल्यार चलत वचप, जाता जाल्यार एकेच गाडयेन सगल्यांनी कार्यालयांनी गेल्यार प्रदुशण पयस कित्याक वच्चें ना? भौशीक येरादारीची सेवा बरी मेळ्ळ्यार पेत्रोल, डिझेलाचो उपेग कमी जातलो. झुजा वेळार जिनसा, वस्तींचें मोल वाडटाच, तेन्ना सादूर रावपाक जाय.

म्हारगाय वाडल्याच हातूंत मातूय दुबाव ना, ती कितली वाडल्या ताकाय म्हत्व ना, पूण वाडत वचपी म्हारगायेक जापसालदार तुमी, आमी आसात व्हय? ह्या प्रस्नाचेर विचार जावचो म्हणून हो लेख बरयला, कोणाक दुखोवपाचो हेतू ना.

# 82 वर्सांची अ. भा. कोंकणी परिशद मनयता सपन पुर्तीची खोशी

उषा राणे
9448947129

चौकार

**कोंकणी परिशदेच्या कार्यालयाचें आयज मडगांवां उक्तावण जाता. ते निमतान विशेश......**

स. माधव मंजुनाथ शानभाग, कोंकणी मान आनी अस्मितायेच्या उत्थाना खातीर जल्माक आयिल्ले एक म्हान व्यक्ती. जात-कात धर्म सोडून इतिहासीक कारणान देशभर शिंपडून पडिल्ल्या कोंकणी लोकांक तांणी एकठांय हाडले. आवय भाशेचें साहित्य, संगीत, संस्कृती, लोकवेद आदी जाणून घेवन तांचे उदरगती खातीर वावुरपाची गरज लोकांक समजावन दिवपाक माधवमामान कारवारांत पयली कोंकणी परिशद संघटीत करून एक इतिहास निर्माण केलो.

8 जुलय 1939 हो दीस कोंकणीच्या इतिहासांतलो भांगरा अक्षरान बरोवन दवरपाचो दीस. कारण ह्या दिसा राष्ट्रीय पांवड्यार कोंकणीच्या संस्थापक वावराची म्हूर्त म्हेड रोयली. कर्नाटकांतल्या कारवार शारांत ह्या कोंकणी चळवळींक सुरवात जाली. 'कोंकणी परिशद' ह्या नांवाची राष्ट्रीय पांवड्यावेल्या संस्थेची स्थापना जाली.

कोंकणीची राष्ट्रीय पांवड्या वेली म्हालगडी संस्था म्हणून कोंकणी संवसारांत आपली खाशेली सुवात जोडून परिशदेन काळान घेतिल्ल्या निर्णयाचें सार्थक केलें. म्हणल्यार कोंकणीच्या पुनरुज्जिवनाच्या मिशनाची वेळ थारली ती 8 जुलय 1939. चारय प्रदेशांनी सलगतेन परिशदेचीं अधिवेशनां आनी साहित्य संमेलनांच्या आयोजनां वरवीं कोंकणी लोकां मदीं लोक जागृतीचें आनी विचार मंथनाचें कार्य फाटलीं 82 वर्सां ही परिशद करीत आसा. प्रदेश, धर्म, जात हांचो विचार कुशीक दवरून कोंकणी भाशे वरवीं कोंकणी अस्मितायेचो विचार करपाचो संदेश, कोंकणी संवसारांत पावोवपाची चळवळ परिशदेन आपणायला.

परिशदेचीं उद्दिश्टां आनी ध्येय धोरणां आसात. तातूंत कोंकणीचें पुनरुज्जिवन आसा, राजकीय हावेस आसात, ते नासपाचीं कारणांय आसात, जी आज आमकां खरपणान जाणवतात. आमी तीं सोंसतात आनी अणभवतात. समाजीक एकवट आनी एकचार आसा. खंयचीय संस्था वा संघटना चलयता आसतना तातूंत बऱ्यो-वायट, चड-उण्यो गजालीं आसतात. परिशदेची प्राप्त परिस्थिती, परिशदेची प्रशासकीय मांडावळ, परिशदे कडेन आशिल्लें मनीसबळ, परिशदेक मेळिल्ले कोंकणी समाजाचे फाटबळ हांचो एकत्रीत संदर्भ घेवन परिशदेचें मूल्यमापन केलें तर जमेची बाजू निश्चीतच आश्वासक आनी प्रोत्साहक आसा. कोंकणी, संवसारांत चडांत चड लोकां मरेन पावयिल्ली संस्था अशी परिशदेन नामना जोडल्या.

हें जरी खरें आसलें तरी एक खंत आसाच. ती म्हणल्यार परिशदेची स्वताची वास्तू आसची. आज मेरेन परिशदेन 31 अधिवेशनां आनी 29 साहित्य संमेलनां घडोवन हाडलीं. तरेकवार कार्यावळीं घडोवन हाडल्यो, चारय राज्यांनी पसरिल्ल्या कोंकणी लोकांक एकठांय हाडलें. शिक्षणिक, साहित्यीक, सांस्कृतीक समाजीक मळार जायतो वावर केलो. पूण स्वताची वास्तू घेवंक पावली ना. मदीं कांय तेंप राजहंसाचे कचेरेंत एके कुडींत, प्रभाकर भिडे हांच्या बरेपणान परिशदेचें ऑफिशिअल काम चल्लें. पूण बसका घेवप वा एकाद्री कार्यावळ जांव कसलीय भासाभास करप हे खूब आडखळींचे जातालें. उपरांत तीवय सुवात ना जाली. कारण राजहंसाक तिची गरज पडली. मागीर कितें? न घर का, न घाट का. अशी परिस्थिती जाली. आयज हांगा तर फाल्यां थंय एकाद्री सुवात भाड्यान वा एकाद्र्याच्या बरेपणान घेवन कार्यावळी बसका घेवप जाताले.

दरेक बसकेंत मागीर ते साबार मंडळ आसूं वा कार्यकारी मंडळ आसूं, परिशदेची वास्तू घेवपा विशीं भासाभास जाताली, निर्णय जाताले, थाराव घेताले, आनी जाता तसो ताचो फाटपुरावोय करताले. पूण जैत मात मेळनाशिल्लें. जायत्या म्हालगड्यांनी राजकीय पांवड्यार तशेंच खाजगी स्वरुपांत जायते यत्न केले. पूण सफल जाले नात. दरेक सरकारा कडेन तर जायत्यो पावटी मारल्यो, पूण तांणी कानामनार घेतलें ना. कांय सरकारी शाळा, कचेऱ्यो, प्राथमीक भलायकी केंद्रां, पोरणीं ऑफिसां बंद पडिल्ल्यो आशिल्ल्यो. त्यो सरकार कांय संस्थांक चलोवपाक दितालो. तेन्ना अशी एकाद्री वास्तू तरी आमकां मेळची म्हणय यत्न जाले. कांय सुवाती सरकाराचे नदरे खालाय हाडून दिल्यो, पत्रवेव्हार केलो. पूण कांयच उपेग जालो ना. गोंय हें कोंकणीचें राज्य, कोंकणीचें कुळार आसून आनी कोंकणीन भारतीय संविधानाचे आठवें वळेरींत मानाची सुवात मेळयिल्ली आसून लेगीत, अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेक एकाद्री बंद आशिल्ली वास्तू पसून दिवप सरकाराक शक्य जाले ना. हें आमचें दुर्दैव म्हणूं येत?

पूण अशें म्हणटात 'भगवान के घर देर है। अंधेर नही। हे प्रमाण आयज आमचीं 82 वर्सांची अखिल भारतीय कोंकणी परिशद आपली ल्हानशी जायना पूण स्वताचे वास्तूचें सपन पूर्ण करपा कडेन पावल्या. आनी हाचें संपूर्ण श्रेय वता मडगांवच्या अस्मिताय प्रतिष्ठानाक. संस्थेचे अध्यक्ष अरविंद भाटीकर आनी हेर पदाधिकारी, उदय भेंब्रे, नारायण मावजो, श्याम वेरेंकर हांकां साक्षात्कार जालो, आनी तांणी परिशदेचे वास्तू घेवपाचे गरजेचो आनी सपनाचो विचार केलो. परिशदेची वास्तू घेवपाक भोवमोलाचो वांटो उखल्लो. खाशेली गजाल म्हणल्यार ह्या पदाधिकाऱ्यांतले उदय भेंब्रे आनी नारायण मावजो ह्या दोन व्यक्तींचो जल्म 1939 वर्सांतलो. म्हणल्यार कारवारांत जें पयलें अधिवेशन भरिल्लें, त्या वर्सांतलो. ही खोशेची आनी नवलायेची गजाल. ह्या वेळार अरविंदबाबान सांगलें, परिशदे खातीर वास्तू घेवपाक आदार करचो विचार आनी सुचोवणी उदयबाबान केल्ली. आयज 82 वर्सां उपरांत आनी ह्या म्हान व्यक्तींचे पिरायेच्या 82 व्या वर्सा स. माधव मंजुनाथ शानभाग हांचो तांकां साक्षात्कार जाल्लो आसतलो. आनी तांणी अशेंय सांगलें, योगायोगान सध्या परिशदेची अध्यक्षय कारवारचीच आसा. अशें तांणी आनंदान आनी अभिमानान सांगलें. कशेंय जावं परिशद आयज आपली वास्तू घेवंक पावली ती अस्मिताय प्रतिष्ठानाक लागून. तांचे आमी चिरंतर उपकारी. 82 वर्सां लांबणेर पडिल्लें सपन आयज पूर्णत्वाक येता ही मोटी भाग्याची गजाल. कसल्याय कामाक योग हो येवचाचोच पडटा हेंच खरें.

परिशदेची वास्तू जिचे आमी आयज मोटे खोशेन उक्तावण करतात, ती वास्तू सोदप, वाटाघाटी करप, ती मेळोवप आनी परिशदेचे मालकेची करून दिवप हें खातीर लागता तो आख्खो वावर अस्मिताय प्रतिष्ठानाच्या पदाधिकाऱ्यांनी केला. इतलेंच न्हय तर पुराय दस्तावेज तयार करून तो कायदेशीर करपा मेरेनचें काम ॲड. कमलाकांत पै हांणी विनामुल्य करून दिलां. तांचे आमी भोवच उपकारी.

अस्मिताय प्रतिष्ठानान दिल्लो अर्थीक पालव वास्तू घेवपा खातीर उणो पडलो. पूण कशेय करून परिशदेची वास्तू घेवचीच असो थाराव परिशदेन घेतलो. आनी ते खातीर कोंकणी मोगी, दानी हांकां अर्थीक आदारा खातीर सविनय उलो घालचो अशे थारलें. आनी ते प्रमाण मारिल्ल्या उल्याक गोंय, कर्नाटक, केरळ, मुंबय, धारवाड, कोलकाता, दुबय हांगासरले दानी, कोंकणी मोगी, कांय संस्था, केरळा कोंकणी अकादेमी हांणी आपापले परीन जाता तसो आदार दिलो. परिशदेची वास्तू घेवपा इतलो दुडू एकठांय जालो. फोमेंतो कम्पनीचे अवधूत तिंबले हांणी वास्तूक कचेरेचें सोबीत रूप दिलें. सगळ्यांचे आमी भोवच उपकारी. पंचामुखी परमेश्वर म्हणटात. तशेच आमचे कोंकणी लोकेश्वर उबे जाले आनी परिशदेची मठी उबी जाली.

कोंकणी भाशेन आमकां खूब कितें दिला. शिक्षणीक मळार, साहित्यीक मळार, खूब मानमरातब मेळोवन दिला. आमी तिचे रिणी. आयज आमी ल्हानशी वास्तू घेतल्या. फुडें आमी, चारय राज्यांतले कोंकणी मोगी, दानी, शिक्षण, साहित्य, सांस्कृतीक मळावेले कोंकणी मानेस्त, सगळे मेळून गोंयांत कोंकणी एक भवन उबारपाचें सपन पूर्णत्वाक हाडुया.

# यादींतली शाळा

अद्वैत साळगांवकार
7262095902

पेडणें बोली

ल्हान आसताना शाळेंत वचपाची मजाच वेगळी आसली. सुरवातेक व्हरान बालवाडीन बयसलो. बालवाडीन काय वर्स घालयली आनी मगेर पयलेक सरकारी शाळेंत घातलो. शळेची ती याद आयज परत परत येवपाक लागल्या. आमची शाळा सादी नळ्यांची, तीन वर्ग, चारय वटेन शाळेच्या आकाशी, गुलमोहोर, सुरू आणी मार्नीची बेटा. आयवन व्हरान पयलेक बसयलो खरो, पूण पयली शाळेंत वचपाच मनाच जाय नासला. सकाळी उठलो काय शाळेंत वयचा लागना म्हणान पेपारा वाजोवंक बसय. आवयचें चार गाळीं आणी बापायचें कमाकम धपके पडत. मगेर हळू हळू शाळेची आवड जावंक लागली. आजुनय याद जाता. शाळेच्या तोणाफुडे आकाशीचा झाड आसला. त्या झाडाच्या तळा नळ आसलो. तो नळ कसो, तोटी वयर उखल्ली काय चालू जाय. मदल्या सुटयेक कमाकम धावत वचान नळाचेर पासलें रवू.

शाळेच्या फाटल्या वाटेन एक बोरीचा झाड आसला. मार्च – एप्रील म्हयन्यात मदल्या सुटयेचो अर्दावर त्या बोरी तळा. दुसरेच्या वर्गा भायरसुन बरोबर बोरीचा मून. साडे धा जाली काय आमचो लक्ष दुयेस आणी भायर बोरीचेर. आमी वचान खिडके कडेनच बसू. गुरजी शिकयता जाल्यार आमचो लक्ष बोरीच्या बोरांचेर बसलेले कडसुनच आमी आपलें "ता लंटुकला म्हजा हां." करून प्रत्येकाक सांगू. आणी घंटा वाजली काय शाळे फाटसून वचान बोरांक झगडू. कितकेश्याच फावटी एकामेकांच्या तकलेक कोप सुद्धा घातल्यो. पूण ती मजा वेगळीच आसली.

पयलीच सुरवातेक आमकां शिकोवपाक बाक्कर गुरजी आमी वेर्णेकर बाई शिकय. गुरजीचो थार भय आमकां. मारताना केवाच फाटी-फुडे वधी नसलो. मानेक धरून ओणवो करी आणी कंम्म... करून फाटीचेर थापाट मारी. गुरजीक कसला दुयेस आसला देव जाणा. पूण सगळेच कापा आसलो. प्रार्थने वेळार फुडे उबो रवलो काय राष्ट्रगीताक दावो हात फाटल्यान धरून उजव्या हातीन आमकां काय काय खुणो दाखय तेवा तेचो हात कडां... कडां... करून कापा आसलो. भुरग्यांक मारी म्हणान प्रत्येकांक तेचो राग येय.

शाळेत येताना गुरजी आपली सुरवातेक जी व्हॅस्पा गाडी आसली ती हिरव्या रंगाची गाडी घेवन येय. गाडी सदीच सकयल आकाशीच्या झाडापोना लाय आसलो. एक दिसा भुरग्यानी मजेक म्हणान गाडयेचो गियार घालून दवरला. गुरजी दोंपारा नेटान इलो. गाडी लायल्ली तेच्या दुसऱ्या वाटेन सगळो निवलकाण्याचो आडो आसलो. गुरजीन येवन गियारातली गाडी सुरू केली तो वचान सरळ निवलकाण्यात उदारो पडलो. कोणाक कायच कळाना हसाचा काय वचान उखलचो. पूण प्रत्येकजाण हसतच रवलो.

शाळेत तेवा खेळ सुद्धा आमचे वेगवेगळे. शाळेच्या तोणाफुडे थोडी वीस-पंचवीस सुरूची झाडा आसली. झाडा बरीच लांबचें लांब वाडलली. विशेकजाण एकिकडेन जमू आणी त्या सुरीच्या झाडांक धरूचो खेळ खेळू. कोण सगळ्यांत व्हडला झाड धरता तो जखा आसलो. आमची शाळा आसली त्या जाग्याक चामारभाटला म्हणू. शाळेच्या वयल्यान देवभाटला, म्हारींगण, सावरभाटला. पावसाच्या दसानी खेळाचा स्वरूप वायच वेगळा जाय. दोगोचा चामार भाटला सगळा तळ्या पडीक. झाडांक पावसान बरो पालो येय. फळा फुला येयत. पटकुळी, किनळ, सायलो, पंगारो, पटकुळणी, लजरी, करपील, गजराज, कुमयो, सुरू, शेरवड, चान्नांडो अशी तरेतरेची झाडा पाल्यात आणी काय झाडांक बरी फळा-फुला जायत.

आमी ही सगळी वचान लागी करू आणी आमचो बाजार माणू. प्रत्येकजाण आपले आवडीचो खेळ खेळत. पूण प्रत्येकजाण उमेदी. आमचो एकच उपाय. पावसांत मुद्दाम चिखलान वचान फुटबॉल खेळू. चिखलान खेळटाना मुद्दाम घालून घेवाप आणी कपडे लोयले म्हणान सांगान घरा पळाप. आमकां अभ्यास बरोवचा साधन म्हणजे तावच्यो आमच्यो पाटयो. पाटयेर प्रत्येक विशयाचो अभ्यास बरय आणी पूस. पूण पावसाच्या दिसानी पाटी पुसली काय ती सुकान सुकाना. मागेर आमचो एकच उपाय म्हणजे, दारार वचान नेटान पाटी वाऱ्याचेरहलोवप आणी नेटान म्हणाप "कावळ्या कावळ्या वारा घाल, चिमणी – चिमणी पाणी दे" आणी तेवा पाटी सुका सुद्धा.

आनीक क याद जाता ती म्हणजे शाळेक आमच्या लांबच्या लांब पडी आसली. दोमपारा बाराची कदंबा मांद्रे गेली काय आमकां सगळ्या भुरग्यांक व्हरान भायर पडयेत बसयत. पडयेत बसलो काय गुरजी आमकां कसल्यो कसल्यो गोश्टी सांगी. आमकांय काय – काय बोलांक लाय. परत एकांक तीच कदंबा सकयल देवली काय मगेर आमच्या पोटांत पेटके पडत. मगेर प्रत्येकाचे पाय तळमळपाक लागत आणी घरा धाव मारूची वाट बघी. घरां धावताना कितक्याश्याच फावटी कितकेशजाण पासले, उदारें, तोणये पडान धोपरा, हात, पाय, तकली फोडून घेतली. पूण ती मजा आजून आमकां याद जाता.

सुरवातेक दोन वर्सा शाळेंत आमकां खाणाचो डबो येय नसलो. तेवा पयऱ्यान आमकां चिकी, खजूर, मारी बिस्कीट, चक्री, शंकरपाळी, टायगर बिस्कीट असल्यो सुक्यो खाजी गावत. पूण आमी ता घेवन दप्तरांन घालू आणी घरां व्हरान खाय. आमचां मदले सुटयेचा खाण वेगळाच आसलां. घराकडसुन चार रूपया मेळत केवाय. ते गावले काय मदले सुटयेक बाबग्याच्या हॉटेलार वचान एक कापा पाव घेवन खाय. तेवा तेची किमत देन रूपया. आणी उरलेलें दोन रूपयां दोनपारा घरां वचताना पेप्सी खाय.

शाळेंत आसताना खूब मजा केली. सरस्वती पुजनाक तर दोन दिसाची वेगळीच मजा. वेगवेगळ्यो स्पर्धा आणी तेतुतलो आनंद. म्हाका याद जाता, दुसरेक आसताना आमच्या शाळेचो गॅदरींग जाल्ला आणी तेवा आयवन म्हाका आपल्या वायलाचा कापाड न्हेसोवन म्हाका भाजयेकारीण केल्ली आणी वयर स्टेजीर धाडलेलो. पयलेच फावट असा तरी मी केल्लां म्हणान पोटांत वायच भय आसलो. आणी शेवटाक स्टेजीर जावन एक शब्द सुध्दा बोला नासताना रडत भायर सरलय.

तेच शाळेंत आसताना खूब किजीला केली. एकदा बरोच नाका जाल्लो पराक्रम केलो आणी तेवा बापायचो कमाकम मार सुध्दा खाल्लो. तेवा पासून तसली फकाणा करूची बंद केली ती आयज मेरेन बंद. एकदा पावसाच्या दिसांनी बापायन आमच्या गोरवांक हाडून शाळेच्या फाटल्यान चरांक बांदली. ते दिसा म्हाजो लक्ष अभ्यासाचेर कसलो कपलाचो लागता? सगळो दीस भायर बगतय. गुरूजी बगीत आणी मारीत म्हणान वायच लक्ष म्हाजो अभ्यासाचेर. पूण केवा म्हाका बगल्यान आणी थोडे दिसानी घरां येवन सांगला "गोरवांक वायच देगेक बानू नाका हां. झील तुजो अभ्यासाचेर लक्ष दवरनां ना. गोरवांक बगीत रवता." तेवा परत तापोवणी आणी धपके.

पूण आयज म्हाका ता म्हाज्या शाळेतल्या गुरजींचो, थयच्या वातावरणाचो, यादींचो खूब उगडास येता. ह्या दर एका यादींन आयज म्हाका घडयला, शिकयला आणी समजयला हेचो म्हाका अभिमान. आणी अभिमान मी मुळाव्या म्हाजा मराठींत शिकलेंय म्हणान आयज काय तरी बरोवपाक लागलय, शिकोवपाक लागलय.

# ॐ पार्किंगाय नमः

आदित्य सिनाय भांगी
09673585953

भारतांत अशक्यूय शक्य आसा आनी शक्य तें शक्य आसाच! 'इथे कचरा टाकू नये', 'No parking in front of gate' अशे बोर्ड तुमी पळयल्याच आसतले आनी जें करनाका अशें म्हणलां तेंच लोक मुद्दाम करतात. कोयर उडोवं नाकात, बरयल्ले बोर्डा सकयल कोयराची रास मेळटली आनी पार्किंग कर नाका म्हणलां त्या बोर्डा फुडें जागो आडावन दवरिल्ली गाडी-दुचाकी मेळटलीच. तसो जागो कोण घेवन वचपाक शकना पूण त्या वेळा पुरतें सगळें ट्रॅफिक जॅम करपाक तितलेंच पुरो न्हय? 4 दुचाकींच्या पार्किंगांत मर्दी आडवी एक गाडी आनी एके गाडयेच्या पार्किंगांत दवरिल्ल्यो चार दुचाक्यो हें दृश्य तर सदांच कुडकडे बाजारांत पळोवपाक मेळटा. कांय लोक तर सायकल लेगीत पार्क करतात एक दुचाकीचो जागो घेवन!

भारतांत जशी वाहन चलोवप्यांक चलोवपाची शिस्त ना तशीच पार्किंग करपाकूय शिस्त ना. जण एकल्याक ज्या दुकानांत काम आसा त्याच दुकानाच्या फुडें पार्किंग जाय आसता. मातशी पयस पार्क करून चलत ते येवचे नात. कांय लोक तर गांवांत लागीं देवळांत वतना दुचाकी-गाडी व्हरतात. म्हाका दिसता हेर दिसांनी तांची गाडी खंयच वचना म्हणून तीय बी म्हणटा, हांवूय येता देव दर्शन करपाक.

सप्टेंबर 2021 पणजे कॅफे रियल कडली गजाल. एक व्हडली गाडी येवन कॅफेच्या दारांत थांबली. फाटल्यान येवपी लोक आबूज, मर्दीच तो उजव्यान कसो गेलो काय म्हणून. रस्त्याचेर दुयव दवरून धाकलो 4-5 मीटरांचो रस्तो क्रॉस करपाकूय हांचे पांय दुखतात काय किते? एकदम मुखार कित्याक? तरी बरें मर्दी वरांडो आसा म्हणून, ना जाल्यार गाडयेंतल्यान पांय काडून सरळ कॅफेंत! कांय शारांत जंय पार्किंगाक जागो मेळना (तसो गोंयांत सगळ्याच शारांनी जागो ना!) थंय लोक मन्नाट युक्ती वापरतात. वांगडा बायलेक घेवन वतात. मागीर रस्त्याचे कुशींत पार्क करून घोव ड्रायव्हर सीटार बसून रावता आनी बायल देंवन बाजार करता. जर बायल गाडी चलयता जाल्यार उरफाटें. कांय वेळा दुचाकी-गाडीवाले आपली गाडी फाटीं-फुडें करतात आनी तुमकां गाडी काडपाक मजत करतात, तर कांय वेळा ते हालच नात आनी म्हणटात, कितलो जागो आसा मरे थंय, तशी काड न्ही! कांय वेळा खूब बायलो अनवळखी दादल्यांक सांगतात दुचाकी काडून दिवपाक, रस्तो आडायता जाल्यार. हांवें खूब वेळा काडून दिल्ली आसा. (आतां म्हजेर आरोप घालू नाकात सगळ्या बायलांक अशक्त म्हणपाक सोदता बी म्हूण!) ही समाजीक सेवा सगळे लोक करतात. तीन समाजीक सेवा भारतांत प्रसिद्ध आसात – स्टॅण्ड वयर काडपाक सांगपी, दुचाकीच्या टायरांत दुप्टो फसतलो वा गाडयेच्या दारांत दुप्टो उरला म्हणून सांगपी आनी तिसरें हेडलायट चालू आसा म्हणून सांगपी. (ही सेवा आतां बंद जाल्या कारण नव्या दुचाकींनी हेडलायट बंद करपाक मेळना.) जशें भारतांत वन वे रस्तो क्रॉस करतना लेगीत दोनूय बाजूनी पळोवपाक पडटा, तशेंच गाडयेक रिवर्स पार्किंग कॅमेरा आसलो तरीय फाटल्यान तकली करून पळोवचेंच पडटा. तरी लेगीत लोक 'व्यवस्थित पार्क काही करेना, नंतर लोकांशी जुळेना'! पुण्यात एकदां एक मनीस नो पार्किंगांत दुचाकी दवरून ताचेर बसून राविल्लो. ताका दुचाकी सयत उखललो. नेम सांगता तुमी आसात जाल्यार तुमची दुचाकी-गाडी कोण उखलून व्हरपाक शकना. पूण पुणे तिथे काय उणे?

कांय लोक रस्त्याचे कुशींत गाडी पार्क करपाची परंपरा सुरू करतात. उपरांत तो एक पार्क करपाचोच जागो जाता. कांय वेळा पार्किंगाचे फिक्स जागेय आसतात. थंय मागीर जंय कोणेंय दुस्त्यान पार्क केली जाल्यार रोखडोच राग काडटात, कसो तो तुमी जाणाच. कांय लोकांक सारकें पार्क करपाक येना. ते पार्किंग स्लॉटींत लेगीत अशे पार्क करतात की दोन गाडयांचो जागो घेतात. मार्किंग केल्लें ना जाल्यार तर विचारूच नाकात. कदाचीत तुमकां तुमचे गाडयेचें दार लेगीत उगडपाक मेळचें ना वा अशे तरेन पार्क करतले की तिसरी गाडी मर्दी पार्क करपाक जागो उरचो ना, पूण दोन दुचाकी दवरपाक मेळटल्यो. कांय दुचाकीवाले तर गाडयाचे फाटल्यान पार्क करून वतात आनी बुद्धीचो अतीवापर म्हण्टल्यार हॅण्डल लॉक करून वतात. हॅण्डल लॉक केल्लें नासल्यार थोडी कुशीक काडून दुसरी दुचाकी-गाडी काडपाक तरी मेळटा. पूण ना, जणू हांणी आपले दुचाकींत परमाणू बॉम्बाची थियरी लिपोवन दवरल्या!

कांय जाग्यांचेर लोक रस्त्याचे दोनूय बाजुनी पार्क करतात आनी मर्दी बारीकसो रस्तो दवरतात. कांय लोक तर फुटपाथाचेर लेगीत पार्क करतात. फुटपाथार पार्क कित्याक करचें न्हीं? पळयात एक उदाहरण. एकदां बोरये पुलार अपघात जाल्लो आनी सगळो पूल बंद. मागीर पुलिसांनीच आमकां सांगलें तुमी दुचाकी फुटपाथावेल्यान व्हरात म्हूण. जर तुमी पार्क बी केल्ली जाल्यार आमी खंयच्यान काडटा आशिल्लें? कांय लोक रस्त्याचे कडेन पूण अर्द रस्त्यार दुचाकी दवरून तांचेर बसून खबऱ्यो मारतात. मागीर हांचो पांय सांबाळून आमकां वचें पडटा. कांय लोक तर धोकादायक वळण आसता थंय सोदीत तेंच मर्दीच पार्क करून रावतात. बंद बी पडल्या जाल्यार मागीर थोड्या अंतराचेर सिग्नल लावन दवरप ना जाल्यार अपघात जावपाची शक्यताय आसता. पूण वळणाचेर पार्क करपूच न्ही.

कांय दुकान वा बंगल्यांच्या मुखार बोर्ड आसता - No parking in front of shop/gate. मडगांवां एक दुकानदार सद्दां आपल्या दुकाना फुडें दवरिल्ल्या दुचाकींचें वारें काडटा. आतां म्हाका कशें कळ्ळें हें विचारूं नाकात. ताणें हें करतना हांवें पळयलां. तो म्हाका सांगतालो – पात्रांव, मातशो राव आं, वारें काडून येता. (म्हणल्यार तो वेवस्थीत दोगांयचें वारें काडटा!)

पणजे पे पार्किंग पासून तुमी वाचपाक शकनात. लकी आसले जाल्यार चुकून केन्नाय आयतारा वाटवपाक शकतात. पार्क करतना जर पार्किंगवालो ना जाल्यार तुमकां दिसता की वाचलें म्हजे पयशे आज. पूण मागीर जेन्ना गाडयेंत बसतात तेन्ना खंयच्यान तरी हळूच तो फाटल्यान येताच. फाटीं एकदां पणजे सांजवेळा गाडी काडटना अशेंच घडलें. काळोख जाल्लो आनी हांव रिवर्स घेतालों तेन्नाच खिडकेर कोणें हात मारलो. पयलीं म्हाका दिसलें कोण भिकारी बी काय म्हणून कारण थोड्या वेळा पयलीं एक सांपडिल्लो. मागीर ताणें मशीन वयर काडलें. तेन्ना हांवें हारसो सकयल देंवोवन पयशे दिले आनी विचारलें, हांव पार्क करतना तूं खंय आशिल्लो तर रे? ताणें म्हणलें – "सर चाय पी रहा था उधर बैठकर! सोचा बाद में लूँगा आपसे, आप तो रोज के हो।" आतां हांव आबूज. हांव खंय सद्दां पणजे पार्क करतात तरः? म्हजें पार्किंग मुक्काम ताळगांवां! कुडचड्यार गाडी पार्क करपाचे स्लॉट चड ना, दुचाकीचे खूब आसात. मडगांव आनी पणजे खूब पार्किंग स्लॉट आसात पूण तरी लेगीत 'गाडीसंख्या' (लोकसंख्ये भशेन) इतली वाडल्या की तुमकां No left turn, No right turn' करत-करत सगळ्या पणजेचे चक्कर काडचें पडटा. केन्ना-केन्नाय तर अशें दिसता की अठरा जून रस्त्याचें चक्कर काडत-काडत एकोणीस जूनूय येतलो. पूण तरी पार्किंग मेळचें ना. अठरा जून रस्त्याक गांधी मळ्यांत जागो दवरला. ना पणजेच्या रस्त्याक. सोड, तशें गांधी गुजरातचे, सगळ्या भारत देशाचे जालेच न्ही. म्हाका दिसता प्रत्येक राज्यांत आनी शारांत एक तरी 'गांधी मार्ग' आसतलोच, मागीर त्या मार्गावेल्यान असंख्य लोक लेगीत वचूं, पूण मार्ग आसा!

पार्किंग करतनाय बी लोकांचें लॉजीक आसता. एक तर उदकांत-चिखलांत बी पार्क करप ना. झाडा सकयल सावळेंत पार्क करप म्हणल्यार येतकर मागीर गाडयेंक बसपाक मेळटलें, कुकरांत न्हय. मोटें पणसाचें झाड वा हेर झाडां जंय सांजवेळचे खूब कावळे येतात थंय लोक गाडी दवरपाचे टाळटात. कारण एक तर गाडयेचो वायटवॉश जाता आनी बसपाक वतना तुमचोय बी. गाडी एकदम चकचकीत धुल्ली आसल्यार तर कल्याण जालेंच समजात. जणू कावळे गूगल मीटर मीटिंग घेतात आनी म्हणटात, आयज सांजवेळा अमूक जाग्यार 'ऑफलायन' मेळ्या आनी खऱ्या अर्थान 'अँग्री बर्डां'चें रूप दाखयया. कांय लोक तर ॐ पार्किंगाय नमः असो मंत्र म्हणून खंय तरी खाचीन कुशीन घालून मेकळे जातात.

जशें आमी 'घर-घर की कहानी' म्हणटात तशें पार्किंगाची ही दशा पळोवन आमी 'रास्ते-रास्ते की कहानी' म्हणपाक शकतात. चलात तर हो लेख तुमी गाडयेंत बसून वा घरा बसून वाचतात जाल्यार आयज आनी आयच्यान सदांच वेवस्थीत गाडी पार्क करात. ना जाल्यार मागीर हांव आसांच फोटो काडून सोशल मीडियाचेर घालपाक.

# पेत्रोलाचे म्हारगायेंत दोन बैलांचो उजवाड!

देवेंद्र गणेश गांवकार
7798106277

पेत्रोलाचो मळबाक तेंकिल्लो दर पळोवन याद जाता क्रिस्नानाथ थाणेकार आनी तांची दोन बैलांची बैलगाडी. आतांच्या कलीयुगांत लेगीत बैलगाडी चलोवन घर संवसार चलोवपाचो शकता, हें 63 वर्सां पिरायेच्या क्रिस्नानाथ थाणेकारान दाखोवन दिला. क्रिस्नानाथ थाणेकार, हे हरवळ्या नावेदार वाड्यार रावता. 63 वर्सां पिरायेचे आसून लेगीत ते एका नव्या जोशान आनी दमान आजूनय बैलगाडी चलयता. ते खेरे रियल लायफाचे सिंघम.

दोन बैलांची बैलगाडी चलोवन पुराय जीण सुखान जगप खरेंच सामके कठीण आसा, पूण क्रिस्नानाथान सामकी कठीण गजाल सोंपी करून दाखयली. आनी तांची फाटली एक पिळगी जाली, बैलगाडी चलोवन आपलें घर चलयता. तशेंच क्रिस्नानाथ मेरेन आपली सगळी जीण आनी ल्हानपण आपल्या दोन बैलांच्या बैलगाडयेचेर घालयलें.

ही बैलगाडी थाणेकारबाबाची स्वताची मेहनतीची आसा. आनी फाटलीं चाळीस वर्सां जालीं, ते आपली बैलगाडी लोकांच्या शेतांनी उजार करून तशेंच तण बैलगाडयेंत भरून एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत पावोवपाचें काम करून, आपलो घराबो चलयता. आनी आयच्या काळार लेगीत ते तीच दोन बैलांची बैलगाडी चलोवन आपल्या कुटुंबाचें पोट भरता. आनी एके वाटेन जर पळोवपाक गेल्यार, आयच्या आधुनीक युगांत आमी 'धूम' फिल्माचे स्टायलीन रस्त्यांचेर चूंय चूंय करून गाडयो चलोवपी आनी म्हारगेंच्यो गाडयो घेवन भोंवपी पळयतात. तशेंच आमी व्हडल्या ऑफिसांनी काम करपी. आयज पेत्रोलाचो दर मळबाक तेंकिल्लो पळोवन, आमच्या कडेन गाडयेंत पेत्रोल घालपाक जायना वा पयशे पावना. संवसार करपाचो सोडूनच घाल. खरेंच आदली दोन बैलांची बैलगाडी आनी ॲटलस हिरो सायकलीची जी जीण आशिल्ली, ती खरीच खूब बरी सुखदायक आनी यादगार जीण आशिल्ली. ह्या पेत्रोलाचे म्हारगायेंत ती दोन बैलांची बैलगाडयेची जीण कित्याक परतून जगची न्हीं?

क्रिस्नानाथ थाणेकाराची दोन बैलांची बैलगाडी पळोवपाक दिसता सामकी सादी आनी सिंम्पल. पूण ती बैलगाडी इतलीय सादी आनी सिंम्पल ना. ती खूब फामाद. सांगपाचें म्हणल्यार अशी - तांच्या दोन बैलांचे बैलगाडयेचो आयज मेरेन खूबशा हिंदी आनी मराठी फिल्मांनी उपेग केला. तीं सगळीं फिल्मां सामकी गाजिल्लीं आनी सामकी सुपर हिट फिल्मां आसात. उदारणांत ऋषी कपूराचे फिल्म 'कौन सच्चा कौन झूटा', अजय देवगणाचे 'सिंघम' आनी आमीर खानाचे 'थग्स ऑफ हिंदुस्तान'. आनी आतां मेरेन तांची ही बैलगाडी खूबशा नाटकांनी व्हेल्या आनी तिचो नाटकांनी खूब उपेग केला.

गोंयचे मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंतान ताची ही दोन बैलांची बैलगाडी खूब फावटी सांखळे रवींद्र भवनांत कार्यावळी वेळार वापरल्या. तशेंच डॉ. सावंत तांचे एक बरे इश्ट, अशें ते सांगता. थाणेकाराचे आतां चडशे बैल मेलें, तेन्ना तांकां डॉ. सावंतान नवे बैल घेवपाक ताका अर्थीक मदत केल्या अशें ते सांगता.

तशें बारकायेन पळोवपाक गेल्यार हरवळ्या नावेदार वाड्यार रावपी गांवगिऱ्या लोकांनी गोंयची जी खरी सांस्कृती आसा, ती सांस्कृती आजूनय तशीच तिगोवन दवरल्या. आनी ती संस्कृती आयच्या बदलत्या जगांत तितल्याच नेटान मुखारूय ते व्हरतात. खरेंच हरवळ्या नावेदार वाड्यार रावपी लोकांक वालोर.

आयज गोंयच्या मार्केटांनी आनी पब्लीक सुवातींचेर वचत थंय लोक पेत्रोल दर वाड, आनी म्हारगायेचेरूच उलयतात. आनी सरकाराक तशेंच राजकीय लोकांक बुरश्यो बुरश्यो गाळी घालतना आयकुपाक येता. तशेंच कांय लोक अशें आसात, ते म्हणटा की आदल्या तेंपावेली ती जीण खरीच बरी आशिल्ली आनी गोंयच्या कांय सुवातींनी ती आदली जीण आजूनय पळोवपाक मेळटा. दोन बैलांची बैलगाडी, त्या तेंपार तो हिरो सायकली घेवन भोंवप, ना जाल्यार चलतूच बाजारांत वचप, मायच्या सामानाची पिशवी दवरून परतून चलत घरा येवप आनी चुलीचेर रांदून सुखान खावप-जेवप. अश्यो ह्यो आदल्या तेंपावेल्यो गजाली आतां कमी जायत चल्ल्यात वा असली जीण आतां पळोवपाकूच मेळना म्हणल्यार जाता. आयच्या म्हारगायेच्या आनी कलियुगाच्या जगांत परतून ती आदल्या तेंपांतली जीण जगची कशी दिसना काय वा मनांत विचार येना काय गोंयकारांच्या?

# गुरू शिश्य

पांडुरंग नाडकर्णी
9326139252

**फकत नमळाय आशिल्लो हो जो गिन्यान मेळोवपी शिश्य, ताची जात पात गुरू विचारिना. ताची तळमळ ही एकच गजाल गुरू वळखता.**

भारतीय संस्कृतायेन गुरूभक्ती म्हणल्यार एकदम मधूर अशें काव्य आसा. ज्ञानेश्वरान 'ज्ञानेश्वरी'च्या तेराव्या अध्यायांत गुरूभक्तीचें व्हडलें व्हडप गायलां. खूब जाणांक हे भक्तींतलो व्हडलो अर्थ समजना. भपको सगळ्याक वाडिल्यान आनी वयल्या वयलीं मोटेपणां सगळ्याक वाडिल्यान गुरूभक्तीचें तत्व आयज धुल्ल खाता.

गुरू म्हणल्यार फकत शिक्षक न्ही, फकत आचार्य न्ही. शिक्षक वा आचार्य तर त्या वेळार गिन्यान आमकां दिता. तांचो हात धरून आमी गिन्यानाच्या आंगणांत येतात. पूण गुरू आमकां गिन्यानाचे गर्भकुडींत व्हरता. त्या त्या ध्येयाक बांदिल्ल्या गिन्याना कडेन आमकां एकजीव करतात. गिन्याना कडेन तल्लीन जाल्लो गुरू, शिश्याचीय समाधी लायता. शाळेंत विद्यार्थी प्रस्न विचारतात. पूण गुरू कडेन चडशीं प्रस्न-उत्तरां आसनात. आयकुपाचें उलयता दुबाव ना जातात, न सांगता उत्तरां मेळटात. हांगा पळोवपाचें, आयकुपाचें, न उलयता गुरू शिकयता. न विचारतां शिश्य शिकता. गुरू म्हणल्यार उचांवळीत गिन्यानाचो दर्या गिन्यान भरिल्लें शिश्याचें मुखामळ पळोवन गुरू भारावता. गीतेंत गिन्यान घेवपाच्यो तरा सांगल्यात: "तद्विद्धि प्रणिपातेन परिप्रश्नेन सेवया" तें गिन्यान जाय तर्श, परत –परत विचारिल्ले सेवेन प्राप्त करून घे. शिक्षका कडल्यान कश्टान आमी गिन्यान मेळयता. पूण गुरू कडेन जाय तशें आनी सेवा हेच गिन्यानाचे दोन मार्ग आसतात. नमळाय ही गिन्यानाची खरी सुरवात आसता. गुरू कडेन शिश्य रिकामें मन घेवन वता. बांयंत खूब उदक आसा पूण आयदन जर बावगलें ना तर त्या आयदनांत उदकाचो एक थेंबय येवचो ना. तशेंच गिन्यानाचे जे दर्या आसतात तांचे कडेन जो मेरेन आमी बावगचे नात, थंड रावन ताच्या पांया कडेन बसना तो मेरेन गिन्यान आमकां मेळचें ना. भरपा खातीर बावगपाक जाय, वाडपा खातीर नमळाय आसूंक जाय.

एकाद्रो संगीत शिकपाक जाय आशिल्लो भुरगो एकाद्रे संगीत शाळेंत वता. थंय कांय वर्सां शिकता. पूण संगितांत खरें गिन्यान ताका जायना. संगीत तरी ताचे वळखीचें जाता. संगितांचो आत्मो ताका केन्ना समजतलो? एकाद्रया व्हडल्या गायकाचे संगीतांत जेन्ना साधक जावन तो वर्सांचीं वर्सां, त्या गुरूची भक्तीभावान सेवा करतलो, जेन्ना जेन्ना गुरू राग आळवपाक बसतलो, तेन्ना तेन्ना आपलें सगळें काम करून तो राग जेन्ना तो आयकतलो तेन्नाच खरी विद्या ताका मेळटली. ताचे वांकडे तिकडे विद्येक तेन्नाच सुसंस्कृताय येतली, सोबा येतली.

फकत नमळाय आशिल्लो हो जो गिन्यान मेळोवपी शिश्य, ताची जात पात गुरू विचारिना. ताची तळमळ ही एकच गजाल गुरू वळखता. शत्रू कडलो कच देखून प्रेमान आयलो जाल्यार शुक्राचार्य ताका संजिवनी दितलो. रिकामी कळशी घेवन गुरू कडेन कोणय येयात आनी तुमगेली कळशी भरतली. गुरू आपल्याक सगळ्या गिन्याना कडेन मेळयता. त्या त्या गिन्यान वाठारांतले ह्या खिणा मेरेनचे सगळ्या गिन्यानाचो तो आमचे कडेन संबंध घालून दिता. सगळो भुतकाळ तो आमकां दाखयता. वर्तमान काळाची वळख करून दिता. भविश्य काळाची दिका सांगता. गुरू म्हणल्यार आतां मेरेनचें सगळें गिन्यान.

(फुडें चालू...)



मूळ लेखक: साने गुरुजी,
अणकार: पांडुरंग नाडकर्णी

# गोंयच्या साहित्याक राष्ट्रीय मळार वळख दिवपी : कार्मेलीन

गौरवी केणी खंवटे
7798791183

## पुस्तक परिक्षण

हालींच ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाल्ले साहित्यीक दामोदर मावजो हांची वळख आनी साहित्य दर एका गोंयकाराच्या काळजांत घर करून बसलां. ह्या साहित्यिकाची लोकप्रिय कादंबरी म्हणल्यार 'कार्मेलीन'. ही लेखकाची आदली रचना खरी, पूण आयजूय गोंयच्या साहित्याचें चिन्न अशें हे कादंबरीचो उल्लेख जाता. 1981 वर्सा उजवाडाक हाडिल्ली ही कादंबरी लोक आयजूय तितलेच उमेदीन वाचतात देखून ह्या पुस्तकाचें परिक्षण करप गरजेचें अशें दिसता.

दामोदर मावजो हांकां 'कार्मेलीन' कादंबरी खातीर 1983 वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल. ही कादंबरी लेखकान कोंकणी भाशेंत रचल्या खरी, पूण तिचो अणकार इंग्लीश, कन्नड, हिंदी, मराठी आनी हेर जायत्या भाशांनी जाला. कोंकणी कादंबरी इतल्या भासांनी अणकारीत जावपाचो विक्रमच हो. अनुवादक विद्या पै हिणें 2004 वर्सा हें पुस्तक इंग्लीश भाशेंत अणकारून भारतांतल्या समेस्त साहित्य प्रेमीच्या हातांत पावयलें.

पुस्तकांच्या माथाळ्यांतलें 'कार्मेलीन' हे कादंबरेचें मुखेल पात्र. लेखक कार्मेलीनाच्या भुरगेपणांतल्यान जाणटेपण मेरेन आयुश्य सुंदर आनी विचारांक चालना दिवपी शब्दांनी गुंथता. कार्मेलीन वाचल्यार लेखकाचे विचार आनी लिखाण शैली काळा परस खूब मुखावेली आशिल्ली अशें वाचकांक जाणवता. कार्मेलीन उजवाडाक येवचे पयलीं, गोंयच्या साहित्यांत बायलाची कूड आनी तांच्या शारिरीक वा समाजीक शोशणाचेर भर दिवपी साहित्य खूब कमी प्रमाणांत आशिल्लें. कार्मेलीन कादंबरेंत लेखकान बायलांच्या मनांतली तळमळ आनी समाजांत तांचेर नकळत जाल्लो अन्याय आनी शोशण हे विशय बेस बरे तरेन हाताळ्यात.

कार्मेलीनाच्या आयुश्यांत कांय दादले येतात आनी वतात. ताचो बापूय मरतगीर ताका ताचो मामा पोसकें घेता. तो ताका आपलेंच चली कशें ल्हानाचें व्हड करता खरो, पूण समाजाच्या क्रूर पद्दतींतल्यान ताका वाचोवंक शकना. जुझेचो चलो आग्नेल काकांलिनाचेर मोग करता पूण वेळ येतगीर आवयचे सांगणेचेर एके गिरेस्त चलये खातीर कार्मेलीनाक सोडून वता. कार्मेलीनाचो घोव बेबदो आसता आनी ताच्या वायट संवयेचे परिणाम कार्मेलीनाक सोंसचे पडटात. निरुपायान कार्मेलीन वावराडी म्हणून कुवेट वता आनी थंय ताचो मालक निस्सार ताचें शारिरीक शोशण करता. कार्मेलीनाक आपली धूव बेलिंदा हाका एक बरें आयुश्य दिवपाची मना-काळजा सावन इत्सा आसता आनी ताचे भलायके खातीर कार्मेलीन धडपडटा.

दामोदर मावजो हांचें मुखेल पात्र कार्मेलीन एक धीट आनी धाडशी बायलेचें चिन्न अशें वाचकांक दिसले बगर रावना. जिणेंत आयिल्ल्या सगळ्या त्रासांक भिनासतना कार्मेलीन फुडें सरत रावता. अशें हें कार्मेलीन वाचकांचें मन जिखता. विद्या पै हिणें पुस्तकाचो इंग्लीश अणकार बेस बरे तरेन केला. लेखकाचे विचार, पुस्तकांत हाताळिल्ले विशय बरे तरेन समजून तिणें फावो तसो अणकार करून ह्या पुस्तकाक आनीक चड वाचक दिल्यात. 'कार्मेलीन' ही कादंबरी स्त्रीशक्तीचें प्रतीक अशें म्हणप चुकीचें थारचे ना. ह्या पुस्तकाच्या माध्यमांतल्यान लेखकान गोंयच्या विचारवंतांक आनी समाजाक बायलांचे समाजीक भलायके विशीं सविस्तर चर्चा करपाची संद दिली देखून 'कार्मेलीन' ही कादंबरी सगळ्यांनी वाच्ची.

# घुस्पल्लें जानवें: तत्वगिन्यानांतल्या घुस्पल्ल्या विचारांचें विवेचन

संतोषी बकाल
9765192817

## पुस्तक परिक्षण

जशें शेतांत बीं रोयलें आनी ताचे कडेक नडणी वाडली म्हणटकच ती रोखडीच काडून उडोवंक जाय तेच भाशेन समाजांत बऱ्यो गजाली दवरल्यो म्हणून जायना, वायटय सगळ्यांक कळपाक जाय. मनशाक खबर आसना तो खंय चुकता. ह्यो चुको समजता ताणें त्यो चुको वेळाच्या वेळार सुदारप गरजेच्यो. ह्याच चुकांचें मूळ आंग खंयच्यान सुरू जाता हेंच दाखोवपाचो यत्न रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी आपल्या ह्या 'घुस्पल्लें जानवें' ह्या पुस्तकांतल्यान मुखार हाडपाचो यत्न केला. समाजांत कितले प्रस्न घुस्पल्ले आसात. ते प्रस्न मनशान कशे सोडोवप, मनीस समाज घडोवपाक खंय चुकता अशें गंभीर विचार तांणी ह्या निबंद झेल्यांतल्यान मांडल्यात.

हो निबंद संग्रह 7 मार्च 2000 दिसा उजवाडाक आयलो. ह्या पुस्तकांत वट्ट 65 निबंद आस्पावल्यात आनी ते वेगवेगळ्या विशयांतल्यान बांदून घातल्यात. हो संग्रह जाग प्रकाशनान उजवाडाक हाडला. लेखकान तत्वगिन्यानाच्या विचारान आपलीं मतां मांडल्यांत. तशेंच माक्सवादी विचार, समाजीक हीत, सत्य अहिंसाचे विचार कितले सकोल आसात हें कळटा. लेखक गांधी विचारांचो खूब पाळो दितना दिसता. गांधीजी वांगडाच लेखक जायते म्हापुरूश देखीक गौतम बुद्ध, जवाहरलाल नेहरू, धर्मानंद कोसंबी, के. आर. नारायण हांच्या विचारांच्यो देखी दिता. रवीन्द्रबाबांचें साहित्य म्हणल्यार तत्वगिन्यानाचो म्हासागर. तांणी जें वाचलां, अणभवलां तें सगळें तांच्या साहित्यांत वाचूंक मेळटा. तत्वगिन्यान म्हणल्यार जिवनाची एक तरा. जगपाचो दृश्टीकोण दाखोवपी. न्याय, सत्य आनी जगप हाची तरा शिकयता. लेखक स्वताचे जिणेंत हेंच आपणावपाक सांगता.

घुस्पल्लो समाज ह्या विशयाच्या मांडणे भितर लेखकान वेगवेगळ्या समाजांच्यो रिती भाती सांगल्यात. समाजान गांठी पडून त्यो मनशा खातीर कश्यो घुस्पावन गेल्यात हाचेर ते भाश्य करतात. लेखकान जातींचीं हीं पाळां-मुळां मनशांनी खोदून काडल्यांत आनी जो मेरेन मनीस मनशाक वळखुपा ना, तो मेरेन हीं जातीचीं मुळां घुस्पत रावतालीं अशें लेखक म्हणटात. कांय खाशेल्या निबंदांनी लेखकान सकयल्या आनी वयल्या जातींच्या भितर जावपी तुळां दाखयल्या.

'नागवल्लो देस' ह्या विशयांत लेखकान देशाक मार्गदर्शन मेळून लेगीत सुवार्था खातीर दुसऱ्या देशा वांगडा मेळून कशे नागयता हें सांगला. लेखकान वसणूकवादाचो, राष्ट्रवादाच्यो देखी दिल्यात. 'नवी देख' ह्या विशयांत लेखक सुचयता, जर देश सुखी स्वतंत्र जावंक जाय जाल्यार देशाक स्वतंत्रतायेंतल्यान स्वराज्याचे दिकेन आमी पावल उखलपाक लावपाक जाय.

लेखक माक्सवादी विचारसरणी घेवन विचार मांडटा. "गांव नाशिल्ले जाल्यार शारां चलचीं नाशिल्लीं, तिगची नाशिल्लीं" (पान क्र: 106). गांवानी संस्कृती घडयल्या. लेखकान स्वामी विवेकानंदाची, गांधीजींची आदर्श देख दिल्या. गांधीजींची विचारसरणी कितली सय्यम आसली हें केळयलां.

'सैमाच्या कुशींत' ह्या विशयांत लेखकान सैम सुंदरकायेचें म्हत्व पटोवन दिलां. सैम मनशाक आपले परीन सगळें दिता पूण मनीस मात स्वताच्या सुवार्था खातीर सैमाचें मोल उणाकपणान लेखता. एका गांयडोळाचें म्हत्व मातयेक कितलें गरजेचें, सैमाच्या चक्रांत ताचो कितलो म्हत्वाचो वांटो आसा हें दाखयला.

'आमचीं दुबळीं आंगां' ह्या विशयांत लेखक काकासाहेबांचे विचार पटोवन दिता. लेखकान कांय विधवान व्यक्ती, जशें की क्रोचे, सालाझार हांचे विचार मांडून देखी सयत पटोवपाचो यत्न केला.

राजकारणाक नवी देख ह्या विशयांत राजकारणाचेर भाश्य केल्लें आसा. जेन्ना वायटपणाचें जाळें ना जावन बरेपणाचें वारें व्हांवतलें तेन्नाच योग्य दिशा देशाक मेळटली हेच लेखक ह्या घुस्पल्ल्या जानव्यांतल्यान पटोवन दिता.

'पांच नखेत्री बांदेपण' ह्या विशयांत गोंयची भास कोंकणी आसून लोकांक ती स्वताची अशी सांगपाक लज दिसता अशें लेखक म्हणटा. आवय बापूय स्वता भुरग्यांक इंग्लीश भाशेचें वळण लायतना दिसता आनी हातूंत चूक भुरग्यांची न्हय हाचें स्पश्टीकरण लेखक वेगवेगळ्यो देखी दिवन स्पश्ट करतात. आपले भाशेक तिगून कशें दवरप, आपले मांयभाशेक कशे लागीं धरून रावप हें ह्या विचारवंतांचे लिखणेंतल्यान समजता. तशेंच संस्कृतायेंतल्या शेतांतली नडणी काडप खूब गरजेची नाजाल्यार ती वाडत वतली अशें लेखक पटोवन दितात. जर बरे विचार अपणायले जाल्यारूच जीण सुफळ संपन्न जातली हो मंत्र लेखक ह्या निबंद माळेंतल्यान दरेकल्या कडेन पावयता.

# आमी चुकनात ?

आशालता नावेलकार
8806151392

## प्रासंगीक

बायले बगर व्हड समाजीक बदल शक्य ना, ह्या इतिहासाची थोडी लेगीत वळख आशिल्ल्या मनशाक खबर आसतले, कार्ल मार्क्स हांचीं उतरां. हो समाज बायल लेगीत एक मनीस आनी ताचोच एक घटक म्हणून विसरला, कितलींशींच वर्सां जावन गेलीं. ह्या पुरूशप्रधान संस्कृतींत बायलेचो जल्म फकत 'चूल आनी मूल' करपा पुरतोच आशिल्लो म्हणल्यार फट न्हय.

सगळ्या बंधनांनी बादूंन उरिल्लो हो जीव. सतीच्या नांवार जळयली जाल्यार देवाच्या नांवार देवदासी केली. अशा हजार तरांनी तिचो छळ केलो. पूण राती उपरांत दीस हो जाताच. अशेंच किदें घडलें आनी स्त्रीवादी विचारांचो जल्म जालो. ह्या विचारान संवसारभर क्रांती घडोवन हाडली. ज्या वेळार बायलेक शिक्षण घेवंक, नोकरी करूंक ह्या तरांच्या गजालींचो हक्क नासलो थंय आयज बायलेन सगळ्या मळांचेर नांव जोडलां, ही एक अभिमानाची गजाल.

तरिकूय अजून बायलो पुरायपणान स्वतंत्र जाल्यात अशें आमी म्हणूं नजो. जागतीक स्तरार, अंदाजान तीन बायलां मदीं एक तरी बायल शारिरीक आनी लैंगीक शोशणाची शिकार जाल्या. प्रत्येक वर्सा 15 लाख चलयांचे 18 वर्सां पयलींच लग्न लावन दितात. म्हणजे दर मिनटाक 28 चलयो. त्या भायर, सुमार 150 लाख बायलांचेर दर वर्सा बलात्कार वा लैंगीक हिंसाचार जाता. तशेंच दर दिसा, सुमार 137 बायलांचो खून जातात. पूण एक दीस ही वळेरी सोंपतली अशी आस्त आसा, कारण हालीं हो समाज बायलांचे बाबतींत संवेदनशील जाला. दादलो आनी बायल समान आनी तांकां मनीस म्हणून समान हक्क आसा हो विचार संवसारांत पोसवण घेता.

पूण हालीं बायलांचो एक असो वर्ग तयार जाला जो हळूहळू करून 'Pseudo Feminism' हे संकल्पनेक आपणायत चल्ला. Pseudo feminism म्हणजे अडेचो स्त्रीवाद, जंय बायल श्रेश्ठ, तिकाच सगळो मान सन्मान फावो जाता आनी वेगळ्या लिंगाच्या मनशांक, बायलां मुखार कसलोच वालोर ना असले विचार घोळटात. तांकां फकत बायलांचें वर्चस्व आशिल्लो समाज प्रस्थापीत करपाचो हावेस आसा. स्त्रीवादी चळवळ फकत बायलां पुरती मर्यादीत नासून एक व्यक्ती म्हणून समाजांत मनशाक कशे समान हक्क आसा हाचेर केंद्रीत आशिल्ली हें आमी विसरूंक फावो ना.

फाटींच जागतीक बायलां दिसा निमतान एके संस्थेन आयोजीत केल्ले कार्यावळींत उपस्थीत रावपाची म्हाका एक संद मेळ्ळी. कार्यावळींत सगळें सारकें जालें. निमाणें चर्चासत्राच्या वेळार हांवें ह्याच मुद्याक धरून एक प्रस्न केलो, पूण म्हाका फावो तशी जाप मेळ्ळी ना. वयल्यान त्या सुशिक्षीत वक्त्यान कडल्यान अशें विधान आयलें की सगळ्यांक आपल्याक जाय तशें जगपाचो आनी जाय ते करपाचो हक्क आसा.

हय तर, हक्क आसाच, पूण आपल्या खास हक्कांचो फायदो घेवन एका मनशाक फकत तो दादलो म्हणून त्रास दिवप हे कितले मेरेन सारकें? ताणें आपल्या कश्टाच्या बळार मेळयल्ले प्रतिश्ठेक, आमच्या एका फट आरोपाक लागून किदें जातलें हाचो विचार आमी केला? आपल्या स्वतंत्रतायेक लागून दुसऱ्याक त्रास जावचो न्हय ही जापसालदारकी दर एका मनशाची.

आतां कोणूय म्हणटलो हो अडेचो स्त्रीवाद चड प्रमाणांत दिसना आनी अश्यो घटनाय बी साप्प उण्यो आसात. पूण रूं तशेंच दवरल्यार ताचो घावो जावपाक वेळ लागना. केन्ना केन्ना घावो जाल्लो भाग निश्क्रीय करून उडोवचो पडटा. हेंच बरे तरेन समजून घेवंक एक उदाहरण घेता. बायलेन आयज मेरेन आसूं, सोड म्हणून सोंसले ताका लागून अजून आमकां दुय्यम वागणूक मेळटा. हें लक्षांत दवरून मन उक्तें करून आमी खंय चुकता, खंय सुदारपाची गरज आसा हें जर आमी वेळार मानून घेतलें जाल्यार बरें जातलें.

बायल कशी न्हेसता हाचेर आमी तिच्या चरित्र्याचें चित्र काडूंक जायना तशेंच वाटेर आशिल्लो दर एक दादलो विकृत न्हय हें सत्य. ह्या जगात जायते दादले आसा जें दर खिणाक आपल्या आशिकुशीक आशिल्ले बायलेक मुखार सरपाक प्रोत्साहीत करता. तिका समजून घेतात. म्हज्या संपर्कांत अशे कितलेशेच दादले आसात जांचे बायलांचे बाबतींत विचार खूब बरें आसात आनी ते आपले परीन तांकां फुडें येवपाक मदत करतात. चडश्या वायट दादल्याक लागून थोडें बरें आनी खरें आसा तांकांय बी तेच तागडेंत जोखप सारकें? हो त्या बऱ्या मनशांचेर अन्याय न्हय? ना दादलो श्रेश्ठ ना बायल श्रेश्ठ. दोगांय समाज हे गाडयेचीं समान चाकां ही गजाल तकलेंत दवरून मुखार सरल्यार स्त्रीवाद बरे तरेन फुलू आनी फळू येता.

मनीस म्हणून जगतना जिणेंत दर एकल्याक संघर्श करचो पडटा. दादल्यांक लेगीत बायलां सारक्या समस्यांक तोंड दिवचें पडटा. फकत दर एका मनशाची व्यक्त जावपाची तरा वेगळी आसता. कोण हांसून दुख्ख लिपयता तर कोण रडून मन हलकें करता.

'बी. बी. सी' हे वृत्तसंस्थेच्या अहवाला प्रमाण, निर्शेणी ह्या मानसीक दुयेंसाक लागून जागतीक स्तरार बायलां परस चड दादले आत्महत्या करतात. 'न्यू यॉर्क टायम्स' ह्या खबरांपत्रा प्रमाण अमेरिकन मिलिट्रींत 1 लाखा वयर दादले लैंगीक अत्याचाराक बळी पडटात. तशेंच 'मिरर' ह्या विदेशी वॅबसायटींत एक लेख प्रकाशीत जाल्लो, जातूंत बायलां कडल्यान लैंगीक आगळीक जाल्या दादल्याचो अणभव सांगला. 2007 वर्साच्या भारतीय सरकाराच्या सर्वेक्षणा प्रमाण लैंगीक छळ जावपी भुरग्यां मदीं चल्यांचो आंकडो 57.3% आनी चलयांचो आंकडो 42.7% आसा. त्या भायर फाटींच सोशल मिडियार वायरल जाली कलकत्तांतले चलयेची आनी भाडे मारपी दादल्याची खबर. कारणा भायर तें ताका भर रस्त्यार थापट मारता आनी खेपता. तशेंच 2015 तली जस्लीन कौर आनी सर्वजीत सिंह हांची घडणूक. ही चली सोशल मिडियार त्या चल्या कडल्यान आपलो लैंगीक छळ जाला म्हणून पोस्ट घालता आनी एका खिणांत अक्षरशा तें ताची धिंड काडटा. ऑनलायन व्हड व्हड राजकारणी, फिल्म अभिनेता, कौराक धाडशी म्हणून ताच्या ह्या कृत्याचें सर्मथन करता. दुसऱ्या दिसा सर्वजीतार पुलीस कारवाय जाता. ताका भारतीय खबर माध्यमांनी 'दिल्ली का दरिन्दा' 'national Pervert' म्हणून किताब दिवन ताचो भोवमान केलो. हाली सोशल मिडियार तो ट्रॅण्ड जावन पडला, दुसरी बाजू समजून घेनासतनाच सगळे न्यायाधीश न्याय करून मोकळे. पूण काळांतरान सत्याचो साथ दिवपाक लोक मुखार आयले आनी तो ह्या आरोपांतल्यान मुक्त जालो. पूण जाहीरपणान ज्या लोकांनी ताचो विरोध केल्लो त्या लोकांनी जाहीरपणान ताची माफी मागली? ना न्हय?

अश्यो कितल्योशोच घटना आसात, ज्यो कागदार नोंद जायना वा ते मुखार येवन सांगिनात. कारण सांगले जाल्यार कोण तांचें खरें धरना वा उरफाटो तांचेर आरोप जावन ताकाच ख्यास्त भोगची पडटा. बायलांचे बाबतींतय अश्यो खूब घडणुको आसता ज्यो संवसारा मुखार येवंक जाय आनी जो खरो दोशी आसा ताका ख्यास्त जावपाक जाय. बायल वा दादलो म्हणून पळय नासतना फकत एक बळी पडिल्लो मनीस अशें धरून निपक्ष रावून कायद्याच्या राखणदारांनी आपलो निवाडो केल्यारूच अडेचो स्त्रीवाद आळाबंदा हाडूं येता.

स्त्रीवाद फकत पुस्तकांनी बरोवन वा व्यासपिठार उबें रावन व्हडल्यान आडून फळाक येना. आपले सदांचे जिणेंत दिसूंक जाय. बायल आनी दादलो म्हणून सोड पूण मनीस म्हणून आपूण एका दुसऱ्या मनशा कडेन कशें वागता, ताका कशें समजून घेता ताचो नियाळ आमी सगळ्यांनीच घेतल्यार बेस बरें जावपाचें.

स्त्रीवादाच्या नांवार खंयच्याय नाका जाल्ल्या गजालींचें समर्थन करप? अशे तरेच्या स्त्रीवादाक लागून मनशां भितर फकत राग आनी बदलो घेवपाची भावना निर्माण जातली. परिस्थिती सुदारपा बदला आनीक इबाडटली. दादलो ना जाल्यार बायलेक अस्तित्व ना आनी बायल ना जाल्यार दादल्याक अस्तित्व ना हें सत्य कोणाकूय कोडू लागता जाल्यार सुद्दां वखद समजून गिळेचें कारण वखद जिवाक बरें.

सुधा मुर्तीन म्हणला त्या प्रमाण, "दादलो कांय गजालीं बरे तरेन करूंक शकता आनी बायल बाकिच्यो गजाली बरे तरेन करता. बायल आनी दादलो एकामेकांक खातीर पुरक आसा. एकाद्रयांक स्वताची तांक सिद्ध करपाची गरज ना."

## कविता

### रामा बगर दुसरो कोण

शिंवासन जांची पळयताले वाट
पूण नशिबान दाखयली तांकां वनवासाची वाट
बापायच्या वचनाचो राखलो तांणी मान
सूख त्यागलें आनी केली संपत्ती दान

रामा बगर दुसरो कोण
असो त्यागी आदर्श पूत म्हान?

धाकटे भावांचे ते प्राण
भावा मुखार भरतान म्हळे शिंवासन हें ल्हान
तर लक्ष्मणान सोडलो राजवाडो म्हळे;
घर आतां म्हजें तें रान

रामा बगर दुसरो कोण
असो मोगाळ आदर्श भाव म्हान?

जात पात हड ल्हान, भेद रामान मानुना
निशाद राजांक वेंगेंत, घेतले बगर ते रावले ना
सुग्रीव आनी विभिशण ;
इश्टागतींत तांचे जाले धन्य
सजयलो मुकूट दोगांच्या माथ्यार
आनी वाडयलो तांचो मान

रामा बगर दुसरो कोण
उतर राखपी आदर्श इश्ट म्हान?

वचन आसले मातेचे "आतां
पुरायपणान तूं वनवाशी
तेन्ना खंयच्याय दुसऱ्या
राजधानींत प्रवेश तूं करशी"
पावस थंडी गरमी सोंसले फक्त तें पर्णकुटींनी
राखलो तांणी अशे तरेन त्या वचनाचो मान

रामा बगर दुसरो कोण
धर्मान वागपी आदर्श धर्मात्मो म्हान?

गजाल ही पयलींची, पूण तितलेच मोलाची
स्वयंवरा दिसाची, परशुरामाच्या रागाची
दोळे तांचे तांबडेगुंज पळोवन
सभा कुळकुळ्ळी भंयान
तांकांय तेन्ना मनयले नमळायेन रामान

रामा बगर दुसरो कोण
विरता नम्रतेचो सांगड घालपी
असो पुरूस म्हान?

राजांगेर आसता रीत, एका परस चड राणयांची
घेतलो 'एक पत्नी व्रत' दिले सीतेक वचन
सीते बगर कोणाकूच दिलें ना तांणी आपलें मन

जातलो कोण रामा बगर
असो मर्यादा पुरुशोत्तम म्हान?

शबरीची ती उश्टी बोरां लायलीं ओंठांक मायेन
आनी केली तिची भक्ती सार्थक
खांदार जेन्ना जाले राम विराजमान
वाडलो तेन्ना भक्त हनुमानाचो मान

रामा बगर दुसरो कोण
असो भक्तवत्सल म्हान?

जेन्ना काम चलतालें सेतूचें
पुराय बळगें लागलें वानरांचें
तेन्ना आदार करताली एक चानी सान
घेतली हाची दखल, दिल्लो श्रेय दर एकाक रामान

रामा बगर दुसरो कोण
श्रेय दिवपी दर एका जिवाक
असो मुखेली म्हान?

बळगें आसलें, भुजांनी हें खरें
एका बाणान आट्टा आसले दर्या आनी झरे
तरी ते वागले एकदम संयमान
जीण आपली जगले ते सैमाच्या नियमान

रामा बगर दुसरो कोण
संयम नियम बाळगुपी असो वीर म्हान?

वर्णन करपाक रामाचें; उतरां जातात ल्हान,
रामा बगर दुसरो कोण असो व्यक्तिमत्व म्हान?


कक्षम नाईक
89994 60385

# मध्य आशिया (आशिया - भाग 4)

स्नेहा सबनीस
9923633789

## विश्व वळख

मध्य आशियेंत पांच देश मुखेलपणान येतात. अस्तंतेक वाळवंट रेंवट आनी दक्षिणेक शीं जाल्यार उदेंतेक उंच पर्वत वाठारांत हे देश आसात. तेल, गॅस, खनीज सांठे तशेंच हेर सैमीक संसाधनांनी भरिल्लो असो हो वाठार. मध्य आशियेंत उदकाची मात खूब कमी आसा आनी ताका लागून शेती वेवसाय मोजक्याच प्रमाणांत जाता. उत्तरे वटेंतले चार राष्ट्र, एका तेंपार सोवियेत युनियनाचो भाग आशिल्ले पूण आतां ते स्वतंत्र राष्ट्र आसात.

**अफगाणिस्तान** - अफगाणिस्तान देशाच्या चारूय वटांनी हेर देश आसात. ह्या देशाच्या तीन चतुर्थांश वाठारांत वचपाक लेगीत मेळना. 1979 वर्सा, अफगाणिस्ताचेर सोवियेत युनियनान आक्रमण केलें आनी तेन्ना सावन नागरी झूज सुरू जालें. 2001 वर्सा, अमेरिका आनी पश्चिमे कडल्यान हेर दळांनी आक्रमण केलें आनी मूलतत्ववादी इस्लामी राजवटीक हरोवन तांणी लोकशायी राष्ट्राध्यक्षीय वेंचणूक घेतली. पूण अफगाणिस्तानांत अजूनय अस्थीर वातावरण आसा. झूज, दुकळ, गरिबी ह्या कारणांक लागून अफगाणिस्तानांत लोक खूब कमी काळ जगतात. भुरग्यांक मरण येवपाचो दर खूबच आसा. भलायकी सेवा लेगीत हांगा खूब उणी.

**उदक** – उजबेकिस्तान आनी कझखिस्तान देशां मदले भुंयेर साव्या उदकाचें तळें आशिल्लें. ह्या तळ्यांत जायतीं नुस्तीं आशिल्लीं. पूण फाटल्या कांय वर्सांनी ह्या तळ्यांत वचपी न्हंयांचो मार्ग पिकांक शिंपणावळ दिवपाक वगळायलो. ताका लागून न्हंयचें उदक खूबच कमी जालां. हाचो परिणाम म्हणून नुस्त्यांचें प्रमाणूय देंवलां.

**भांगरां खण** – उजबेकिस्तानाच्या किझिल कूम रेंवटांत मुरुंताव वाठारांत संवसारांतली एक सगळ्यांत मोटी भांगराची खण आसा. फाटल्या पन्नास वर्सां सावन ही भांगरा खण चलता.

**दोंगराळ जीण** – किर्गीजस्तान आनी ताजिकिस्तान हे दोन ल्हान देश. हे दोंगराळ वाठारांनी भरिल्ले देश. ह्या देशांनी भूंयकांप आनी पालसणां कोसळपाच्यो घडणुको खूब घडटात. ताजिकिस्तानांतल्या फकत स टक्के जमनीचो वापर पिकावळी खातीर जाता. किर्गीजस्तान वाठार मात पिकावळी खातीर चड बरो आसा.

**पिकावळ** – उजबेकिस्तान, तुर्कमेनिस्तान आनी किर्गीजस्तान देशांनी कापसाची लागवड जाता. उजबेकिस्तान हो देश कापसाचे निर्मितींत संवसारांत सवे सुवातेर लागता. ह्या देशांत फळां आनी भाजयो मोट्या प्रमाणांत जातात. ह्या तीन देशांनी भांगरा सयत सल्फर, उरेनियम, मर्क्युरी, कोळसो, तेल आनी सैमीक गॅसाचे सांठे आसात.

**सिल्क रोड** – सिल्क रोड हो पारंपारीक वेपाराचो मार्ग. ह्या मार्गांतल्यान, चीन सावन मध्य आशिया आनी मध्य पूर्व भागांतल्यान युरोपाक रेशीम आनी हेर म्हालाचो वेपार जातालो.

**दायज सुवात** - उजबेकिस्तानांतलें बुखारा हें शार मुस्लीम भाविकांचे यात्रे खातीर म्हत्वाचें. ह्या वाठारांत संवसारीक दायज सुवाती आसात. आदल्या तेंपावेल्यो इमारती पळोवंक जायते पर्यटक ह्या वाठारांत वतात.



## बालकाणी

### कर्माचें फळ

एका गांवांत सुशांत नांवाचो एक तवनास भुरगो रावतालो. आवय बापायन लाडान दवरिल्लो भुरगो. ना ताका शिक्षणाची आवड आशिल्ली ना कामाची. दिसभर फकत तवनासपणां करूंक भोंवतालो. आवय बापायची खूब इत्सा आसली, आपल्या पुतान शिकून सवरून नांव व्हड करचें पूण सगळेंच कोयरांत. लोकांक नांवां दवरप, टिंगलां उडोवप हेंच ताचें काम. ताका कोणाचोच भंय नासलो. खास करून जाणटीं मनशां दिसल्यार पुरो, तांकां भू भू करून भेश्टावपाची ताका वायट संवय आसली. जाणटीं मनशां दिसलीं रे दिसलीं काय तांच्या काना कडेन वचून किळांच मारपाची वायट संवय ताका आशिल्ली. तीं कितलींय जाल्यार जाणटीं. तांकां हें सहन जायनाशिल्ले. जाणट्यांनी मेळत तेन्ना आंग काडप. जाणटीं तर ह्या सुशांताक थर्त भितालीं.

एक फावट अशेच एके जाणटे बायलेक हाणें सतायले. ती रडपाक लागली. तिणें रडत रडत हाका श्राप दिलो "तुजें केन्नाच बरें जावचें ना. तूं करता तें तूं भोगतलो". हीं तिचीं उतरां आयकून सुशांत विचारांत पडलो. येवजीत येवजीत चलतां चलतां तो ताच्या घरा पावलो. दिसभराचीं तवनासपणां करून ताका जिवाक पुरो जाल्ले. तसोच तो आड पडलो. थंयच ताका न्हीद लागली.

अकस्मात ताका सपनांत एक सावळी कशी दिसली. तो आनीक कोण नासून देव आशिल्लो. सपनांत ताका देवान दर्शन दिलें. देवान ताका खूब खडसायलो आनी म्हणपाक लागलो, "तूं भुरगो आसा म्हूण तुवें जाणट्यांक सतावप न्ही. घे तूंय जाणटो जा आनी भोग तुज्या कर्माचीं फळां" अशें म्हणून देवान ताका जाणटो जावपाचो श्राप दिलो. सुशांत जाणटो जालो. केल्ल्या कर्माची ख्यास्त देवान ताका दिल्ली. तो रडपाक लागलो. सुशांत भियेलो आनी एक ताणें किळांच माल्ली. सपनांतल्यान भियेवन तो जागो जालो. पळयत जाल्यार कितें? सुशांत आसा तसोच भुरगो आशिल्लो. तो जाणटो जावंक नाशिल्लो. सुशांताक आपली चूक होलमली. ताणें आनीक वेळ केलो ना. गांवांत वचून सगळ्या जाणट्यांची चूक मागली आनी आपूण एक बरो नागरीक जावन दाखयतलो अशें वचन सगळ्याक दिलें.

शिल्पा लाड
8411007204

## म्हाजाळ म्हायतीचें

- मनशाच्या आंगांत फुडले घटक आसतात. ते आनी तांची टक्केवारी मुखार दिल्ले प्रमाण आसा. ऑक्सिजन - 65 %, कार्बन - 18 %, हायड्रोजन - 10 %, नायट्रोजन - 3 %, कॅल्शियम - 2 %, फॉस्फरस - 1 %, पॉटेशियम - 0.35 %, सोडियम - 0.15 %, क्लोरायड - 0.15 %, मॅगनेशियम - 0.05 %, लोखंड - 0.0004 %
- भारतान 25 जून 1983 दिसा क्रिकेट वर्ल्ड कप जिखलो, त्या वेळार कॅप्टन आशिल्लो कपिल देव निखंज.
- कुरुक्षेत्रा वयलें झूज (महाभारत) फाटोफाट 18 दीस चालू आशिल्लें.
- भारतांतली सगल्यांत व्हडली आदिवासी जमात खंयची ते जाणात तुमी? गोंड.
- मानसिक भलायकी सुदारपाक सहलीक वच्चे परस एक चित्तान ध्यानधारणा करप बरें, अशें दोतोरांचें मत.
- दिसाक धा मिनटां व्यायाम केल्यार भलायकीक सुदारता.

संपदा कुंकळकार
9850149319

## वथांबे

### सर्गाची वाट

एक दीस एक मनीस एका संता कडेन गेलो आनी म्हणपाक लागलो, "म्हजो बापूय आज संवसार सोडून गेलो. किदेंय करात पूण ताका सर्गांत पावयात." संतान हें आयकून ताका सांगलें, "एक काम कर. फाल्यां सकाळीं पांचांक सुमार न्हावन एका भोगुण्या पोंदा फातर घाल आनी वयर तूप घाल. मागीर त्या भोगुण्याचेर कपडो घाल आनी हांगा यो."

सांगिल्ले प्रमाण तो मनीस दुसऱ्या दिसा पांचांक आश्रमांत पावलो. संतान ताका आश्रमाच्या भायर आशिल्ले न्हंये कडेन व्हेलो. बरोबर ताचे शिश्यूय आयिल्ले. संतान त्या मनशाक सांगलें, "हे न्हंयेक पांच प्रदक्षणां मार आनी मागीर हांगा येवन हें भोगुणें एकाच धपक्याक फोड आनी उदकांत उडय. अशें करतकच तूप उदकांत भितर वचपाक जाय आनी फातर वयर उफेवपाक जाय. अशें जाल्यारूच तुजो बापूय सर्गांत पावतलो."

संतान सांगलें तश्शें ह्या मनशान केलें. पूण फातर पोंदा गेले आनी तूप वयर उफेवपाक लागलें. त्या मनशाक अजाप दिसलें. ताणें संता कडेन पळयलें. तेन्ना संतान ताका सांगलें, "फातराचो मूळ सभाव जड. देखून ते पोंदा गेले. आनी तुपाचो मूळ सभाव मोव, तें ल्हव, देखून तें उफेलें. जो मनीस फातरा भशेन आसता तो नरकांत वतलो आनी जो तुपा भशेन आसता तो सर्गांत वतलो. हातूंत कोणूच कांयच करपाक शकना."

ही काणी आमकां जिवितांतलें एक व्हड सत्य सांगता. सगळें मनशाच्या सभावाचेर निंबून आसता. मनीस जर फातरा भशेन आसलो जाल्यार अवनतीक पावता आनी तुपा भशेन आसत जाल्यार ताची उदरगत जाता. सर्ग फकत मरतकच मेळटा अशें ना. मनशाचे बरे गूण ताका जितो आसतनाच सर्गीय सुखाचो अणभव दिवपाक शकता. तशेंच वायट गूण नरकाचो अणभव दिवपाक शकता.

## चित्र काडात

गुडीया कुमारी
यत्ता सातवी, पॉप्युलर इंग्लीश हायस्कूल, गोवा वेल्हा

## खबर आसा ?

### पेरां : भलायकेक बरीं

पेराची आवड सगल्यांकूच आसतली. सामकें घट्ट, चिवट अशें हें झाड. कसलेय जमनींत पेरां जातात. पूण न्हंयेचे देगेर आशिल्ली पेर बरी वाडटा. संवसारांत पेरांच्या उत्पादना बाबतीत आमचो चवथो क्रमांक लागता. ह्या झाडाक बाराय म्हयने पेरां येतात. मात गिमांत येतात तीं फळां रुचीक आसतात आनी पावसांत पचपचीत. पेराक इंग्लिशींत ग्वावा म्हणटात, तर ताचें शास्त्रीय नांव जावन आसा, Psidium Guajava. पेराच्या साबार जाती आसात. ते बियांचें आनी बिनबियांचेय आसतात. मात बियांचीं पेरां रुचीक बरीं आसतात.

पेरां जिवाक बरीं. तातूंत लोखंड, ए व्हिटामीन, फॉस्फरस, कॅल्शियम आसता. पेराची भाजी, मुरंबो, जाम, जेली, पिवपाचें द्रव करतात. गोडेंमूत नियंत्रणांत दवरपाक पेरां बरीं.

काळजाचें दुयेंस आशिल्ल्यांनी तीं खावपाक जाय. रोगप्रतिकारशक्ती वाडोवपाक पेरां खावचीं. पेरां खाल्यार पोट साफ उरता. गोंयांत घरा कुशीक, फाटल्यान झाडां लायतात, तातूंत एक तरी पेरीचें झाड आसताच आसता.

## जेवणां खाणां

राणी कामत
9689837927

### नाचण्याचें सत्व

**साहित्य:** अर्द किलो नाचणें, एका नालाची सोय, वेलची, मीठ, साजूक तूप, किसमीस, काजू बियो आनी गोड.

**कृती:** नाचणें रातभर भिजवन दवरप. सकाळीं दोन-तीन फावट उदकांत धुवन वांटून घेवप. सोय वांटून घेवप. एका तोपांत सोय आनी नाचणें घालून रोस काडून घेवप. तातूंत रुची पुरतें मीठ, गोड, काजू बियो, किसमिस, वेलची घालून धवळून घेवप. गॅस बारीक दवरून सगळें मिश्रण आटोवन हाडप. बुडबुडे येतकच गॅस बंद करप. कड आशिल्ल्या एका ताटाक तूप लावन तातूंत मिश्रण पसरून घेवप. रुचीक सत्व तयार.

## फरक सोदात

ह्या दोन चित्रांनी पांच फरक आसात. पळयात मेळटा जाल्यार.

# हे मातयेंत धर्मांधिता चलची ना हें दाखोवपाक शिवाजी महाराजान स्वराज्याची स्थापना केल्ली

## योगेश सोमण : म्हापश्यां संवसार पाडव्याची खाशेली कार्यावळ

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें :** छत्रपती शिवाजी महाराज आनी उपरांत संभाजी महाराज हांणी महाराष्ट्रांत औरंगजेबा कडेन 27 वर्सां समर्थपणान टक्कर दिली. हिंदूंच्या मनांत भंय निर्माण करपा खातीर संभाजी महाराजांचे हाल हाल करून तांकां जिवेशी मारले. हाचो विपरीत परिणाम जावन घराघरांतल्यान औरंगजेबा विशीं चीड आनी तिडक निर्माण जाली. मराठ्यांनी तेच तिडकीन बावटो लायलो. धर्मांधता हे मातयेंत चलची ना हें दाखोवपा खातीर शिवरायांनी हिंदवी स्वराज्याची स्थापना केली अशें इतिहासाचे अभ्यासक, साहित्यीक आनी कलाकार योगेश सोमण हांणी सांगलें.

संवसार पाडव्या निमतान म्हापशेंच्या टॅक्सी स्टॅण्डार म्हापसा नव वर्ष स्वागत समितीन घडोवन हाडिल्ले भौशीक घुडी उबारपाचे कार्यावळींत भारतीय इतिहासीचीं भांगरा पानां ह्या विशयाचेर सोमण मुखेल सोयरे म्हणून उलयताले. ह्या वेळार माचयेर समितीचे अध्यक्ष वैभव राऊळ, अमेय नाटेकार, सचीव कौस्तुभ राऊत, सिद्धेश दिवकार तशेंच समितीचे हेर पदाधिकारी हाजीर आसले.

भीक मागून स्वातंत्र्य मेळना. ते खातीर संघर्श करचो पडटा. रगत वारोवचें पडटा. हें स्वातंत्र्य सैनिकांक खबर आशिल्लें म्हणून तांणी आत्मसमर्पण केलें. सुभाषचंद्र बोस हांणी सशस्त्र सेना उबी करून ब्रिटिशांक आव्हान दिलें. आझाद हिंद सेनेचो थरार ब्रिटिशांनी पारखिलो आनी तांकां भारत देश सोडचो पडलो अशें योगेश सोमण हांणी सांगलें.

फाटलीं कितलीशींच वर्सां आमी शाळेंत आनी कॉलेजींत इतिहास शिकयतात. पूण खरो इतिहास वेगळोच आसा. महंमद गजनीन 17 फावटीं सोमनाथ मंदिराचेर घुरी घाली आनी अक्षरशा लुटमार केली. ताका आपलें बस्तान हांगा स्थापन करपाचें आसलें. पूण त्या वेळार राजकर्त्यांनी खर संघर्श केलो. सोमनाथ मंदिरांत रगताचे पाट व्हांवले. दर खेपे भारतीय भिजूड, नामर्द अशें चित्र उबें केलें. पूण आमचे पूर्वज पराक्रमी आसले. दुस्माना कडेन दोन करपाचें बळगें तांचे ठांय आसलें. तांची धिटाय आनी शौर्य गाथा आमकां शिकयनात. इतिहासाचें गांठवल फुडले पिळगे मेरेन व्हरप ही आमची मोख आसा अशें सोमण हांणी म्हणलें.

वर्तमान काळ खांदार घेत भूतकाळाचें स्मरण करीत जो फुडें वता तोच फुडारांत येसस्वी जाता. देखून इतिहास खबर आसूंक जाय. म्हणुनूच खऱ्या इतिहासाचो अभ्यास करूंक जाय. आर्य चाणक्यांची राजनिती, कौटिल्यांचें अर्थशास्त्र संवसारा मुखार येवंक जाय. डॉ. केशव बळीराम हेगडेवार हांणी राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाची स्थापना करून हिंदू म्हणून स्वाभिमानान जगपाची प्रेरणा आमकां दिली. म्हणुनूच आयज आमी जाहीरपणान हिंदू पंचागा प्रमाण भौशीक घुडी उबारपाची कार्यावळ आयोजीत करूंक शकतात. हो सगलो भांगराळो इतिहास. तो तरणाटे पिळगे मेरेन पावोवपाचें काम अश्या कार्यावळींतल्यान जावंक जाय अशेंय तांणी सांगलें.

सुरवातीक तनीषा मावजे हांणी गणेश स्तवन जाल्यार दिव्या च्यारी हांणी ईशस्तवन सादर केलें. मुखेल सोयरे योगेश सोमण हांचे हस्तुकीं भौशीक घुडी उबारली. अध्यक्ष वैभव राऊळ हांणी येवकार दिलो. अमेय वेरेकार हांणी सोयऱ्यांची वळख करून दिली. कौस्तुभ राऊत हांणी उपकार मानले. वंदे मातरमान कार्यावळीची सांगता जाली.

सकाळीं म्हापशेंच्या विंगडविंगड वाठारांतल्यान शोभायात्रा हनुमान मंदिरा लागसार आयल्यो आनी थंय सावन धोल, ताशे, लेझीम हांच्या पथका सयत शारांत भोंवताडो काडून टॅक्सी स्टॅण्डार आयल्यो. उसगांवच्या शिवस्मृती प्रतिष्ठानाचें धोल पथक आनी खोर्लेंतल्या तरणाट्यांचें धोल पथक हांणी सगलो वाठार दुमदुमून सोडलो. बायलांनी हातांत पंचारती आनी दादल्यांनी मशाली घेवन शोभायात्रेंत वांटो घेतलो.

म्हापश्यां टॅक्सी स्टॅण्डार संवसार पाडव्या दिसा घडोवन हाडिल्ले खाशेले कार्यावळींत घुडी उबारतना योगेश सोमण. कुशीक म्हापसा नव वर्ष स्वागत समितीचे पदाधिकारी

घुडी उबारपाचे कार्यावळी निमतान काडिल्ले प्रभात फेरयेंत वांटेकार जाल्लें महिला धोल पथक.

कुडचड्यार संवसार पाडव्या निमतान घडोवन हाडिल्ले सभेंत उलयतना ॲड. शिवाजी देसाय. कुशीक संजय राऊत देसाय, डॉ. गुरुदास नायक, राजेंद्र नायक आनी कमलेश बांदेकार.

# गोंयांत धर्मांतर बंदी कायदो अस्तित्वांत येवचो

## ॲड. शिवाजी देसाय : कुडचड्यां जाल्ले सभेंत उक्तायलें मत

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**कुडचडें :** हिंदूत्व ही जिणे पद्दत. हिंदू धर्माची महिमा अगाध. ह्या धर्माचेर हजारांनी वर्सां आदीं आक्रमणां जालीं तरी हो धर्म आयजूय तिगून आसा. कारण ह्या धर्माक शाश्वत मुल्यांचें अधिश्ठान आसा. पुराय संवसाराक दिशा दाखोवपाचें आनी संवसारीक एकचार दवरपाचें बळगें हिंदू धर्मांत आसा आनी म्हणुनूच हो धर्म सासणाचो तिगतलो हें जरी खरें आसलें तरी आयच्या कलियुगांत जावपी धर्मांतरण आडावंक जाय आनी ते खातीर गोंयांत धर्मांतरण बंदी कायदो अस्तित्वांत येवंक जाय अशें नामनेचे वक्ते ॲड. शिवाजी देसाय हांणी सांगलें.

संवसार पाडव्या निमतान कुडचडेंच्या सुडा मार्केटांत कुडचडें हिंदू नव वर्ष समितीचे वतीन घडोवन हाडिल्ले सभेंत ते मुखेल वक्ते ह्या नात्यान उलयताले. ह्या वेळार तांचे वांगडा माचयेर गोंय पतंजली योग पीठाचे अध्यक्ष कमलेश बांदेकार, राजेंद्र नायक, डॉ. गुरूदास नायक, संजय राऊत देसाय आदी मानेस्त हाजीर आसले.

भारत ही अध्यात्माची भूंय. ह्या भारतांत अध्यात्माची प्रचिती येवन आत्म्याचो साक्षात्कार जाता. भारतांतल्या हिंदू धर्मान भावपणाचो संदेश पुराय संवसाराक दिलो.

भारत पारतंत्र्यांत आसतना लेगीत बाराव्या शेंकड्यांत संत ज्ञानेश्वरांनी पसायदानाच्या माध्यमांतल्यान संवसारीक भावपणाचो नारो दिलो आनी एकुणिसाव्या शेंकड्यांत स्वामी विवेकानंदांनी दिलो. जो धर्म आत्म्याचो साक्षात्कार दाखयता तोच धर्म सामर्थ्यांचो लेगीत साक्षात्कार दाखयता आनी म्हणून दरेक हिंदू हो सामर्थ्यशाली आनी बलशाली आसा आनी दरेका हिंदूक ताची जाण आसूंक जाय अशें ॲड. शिवाजी देसाय हांणी सांगलें.

हिंदू धर्म सदांच सगल्या धर्मांचो आदर करीत आयला आनी ही आमची खरी शिकवण. आमी आयजवेर दुसऱ्याचेर केन्नाच आक्रमण केलें ना. तरी लेगीत आमच्या हिंदू धर्माचेर आक्रमणां जायत आसात. आनी म्हणून आमी सादूर रावंक जाय. जागृत रावंक जाय. शिटूक रावंक जाय अशेंय तांणी सांगलें.

काश्मीर फायल्स चित्रपटाक लागून कितल्याश्याच लोकांक काश्मीरांतल्या हिंदू पंडितांचें खरें दुख्ख कळ्ळें आनी सगल्यांच्या दोळ्यां मुखार वास्तव उबें जालें. आमी सगल्यांनी एकसंध रावन फुडें वचपाचें आसा. धर्मीक कट्टरवाद बाळगुपी लोक धोको निर्माण करता. ताचे पासून आमी सदांच सादूर रावंक जाय अशें कमलेश बांदेकार हांणी सांगलें.

कार्यावळीचे सुरवातीक कुडचडें वाठारांतल्यान जागृती फेरी काडली. डॉ. गुरूदास नायक हांणी मानेस्तांची वळख करून दिली. शिवानंद देसाय हांणी उपकार मानले.

सिद्धी काकोडकार आनी सौ. न्हावेलकार हांणी कार्यावळीचें सुत्रसंचालन केलें. संध्या पणशीकार हांणी सादर केल्ल्या पसायदानान कार्यावळीची सांगता जाली.

# मयडें सरपंच, उपसरपंचा आड अविस्वास थाराव

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें:** मयडें पंचायतीची सरपंच रिया बेळेकार आनी उपसरपंच ऑस्वल्ड कार्देरो हांचे आड सातांतल्या चार पंच वांगड्यांनी अविस्वास थारावाची नोटीस बार्देश गट विकास अधिकारी कार्यालयांत सादर केल्या.

नोटिशीचेर महेश साटेलकार, सुर्यकांत भाटलेकार, लवू ठाकूर आनी पूजा च्यारी हांच्यो सयो आसात. थारावाचेर चर्चा करपा खातीर गट विकास अधिकाऱ्यांनी 20 एप्रीलाक पंचायत मंडळाची खासा बसका घेवपाचें थारायलां.

# सांताक्रूझ खून प्रकरणांतल्या देवेंद्र यादवाक यूपींत अटक

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी:** सांताक्रूझांतल्या एका फ्लॅटांत रावपी आपलो वांगडी उत्तर बहादूर पटेल (उत्तर प्रदेश) हाचो गळो अंदून खून करून फरारी जाल्ल्या दुबावीत देवेंद्र यादव (34) हाका पोरणें गोंय पुलिसांनी अलीनगर- उत्तर प्रदेशांत वचून अटक करून गोंयांत हाडला. ताका पणजेच्या पयलो वर्ग न्यायालयान सात दीस पुलीस कादय दिल्या.

सांताक्रूझांतले केंकरे इस्टेटींतले एके बिल्डिंगेंतल्या फ्लॅटांत रावपी पटेल हो 6 मार्चाक मेल्ले स्थितींत सांपडिल्लो. जीएमसींत पोस्ट मॉर्टेम केले उपरांत ताचो गळो अंदून खून केल्ल्याचें स्पश्ट जाल्लें.

पोरणे गोंय पुलिसांनी केल्ले चवकशेंत पटेल हाच्या वांगडा चार जाण रावताले अशी खबर मेळ्ळी. तातूंतल्या विश्वजीत नावले, शिवराम गौंड आनी चंदन मुखर्जी हांकां पुलिसांनी अटक केली. तांणी देवेंद्र यादव तागेल्या उत्तर प्रदेशांतल्या शिकोवाबाद ह्या गांवांत आशिल्ल्याचें सांगलें.

पुलीस अधिक्षक शोबीत सक्सेना हांणी 31 मार्चाक एक पुलीस पंगड उत्तर प्रदेशांत धाडिल्लो. तांणी थळाव्या पुलिसांचे मजतीन यादव हाचो सोद घेवन ताका अलीनगर हांगा ताचे भयणीच्या घरांत अटक केली आनी गोंयांत हाडलो..

# मडगांवां पायप फुटून हजारांनी लिटर उदकाची नाशाडी

उदका पायपलायन फुटिल्ल्यान अशे फवारे उडून उदकाची नाशाडी जाल्ली. (संतोष मिरजकार)

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**मडगांव:** मडगांव पॉवर हावसा कडेन शुक्रारा नवी पायपलायन जोडपाचें काम सुरू आसतना पायपलायन फुटिल्ल्यान हजारांनी लिटर उदकाची नाशाडी जाली. दक्षीण गोंयांत एके वटेन उदकाचो उणाव आसतना काम करतना फावो ती जतनाय घेवंक नाशिल्ल्यान हजारांनी लिटर उदक फुकट गेलें. पायपलायन फुटिल्ल्यान फवारे उडटाले.

मडगांवां स्टेशन रोड वाठारांत नवी पायपलायन जोडपाचें काम भौशीक बांदकाम खात्यान हातांत घेतिल्लें. मात, काम सुरू करचे आदीं उदका पुरवण बंद करपाक जाय आसली. ती करूंक नाशिल्ल्यान ही उदकाची नाशाडी जाली.

हे विशीं उदका पुरवण खात्याचे कनिश्ठ अभियंते कृष्णा नायक हांकां विचारलें तेन्ना उदकाच्या दाबान पायप फुटूंक ना तर दुसरी पायपलायन जोडपाचें काम सुरू असताना पायप कापताले तेन्ना ही घडणूक घडली म्हणपाचें सांगलें.

हें काम सुरू करचे आदीं उदका पुरवण बंद केल्ली पूण पायपांत जें उदक आसलें तें व्हांवलें. ही पायपलायन वयल्यान सकल आयल्या आनी उदकाक प्रेशर आसलें म्हणून फवारे उडले असो दावो तांणी केलो.

# बेकायदेशीर रेंव प्रकरण ट्रक ड्रायव्हराक अटक

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**मडगांव :** बेकायदेशीर रेंवेची येरादारी प्रकरणांत मायणा- कुडटरी पुलिसांनी बसवराज दोडामणी ह्या ट्रक ड्रायव्हराक अटक केली. आर्लेम जंक्शनाचेर ही कारवाय करून ट्रक जप्त केलो. ट्रकांत स मिटर रेंव आसली.

अटक केले उपरांत ताका जामिनाचेर सोडलो. बेकायदेशीर रेंव प्रकरणांत कडक पावलां उबारून आरोप्यांचेर कारवाय करतले अशें पुलिसांनी सांगलें.

मायणा कुडटरी पुलिसांनी भादंसंच्या कलम 379 आनी कलम 21 मीन आनी खनिज विकास नियमन कायदो 1957 खाला दोडामणीचेर गुन्यांव नोंद केला.

# सुदिन नातू अंतरले

■ भांगरभूंय प्रतिनिधी

**पणजी:** गोंय नागरी सेवेंतले वरिश्ठ अधिकारी आनी महसूल खात्याचे अण्डर सेक्रेटरी सुदिन नातू हांकां अल्प काळाच्या दुयेंसान काल शेनवारा मरण आयलें. तांचे कुडीचेर आयतारा फोंड्यां निमणे संस्कार जातले.

सुदिन नातू हांणी महसूल खात्याचें अवर सचीव, मामलेदार म्हूण ताणें सेवा दिल्या. एक बरे अधिकारी म्हूण तांची वळख आशिल्ली.

# लयराई देवी धोंड भक्तांची आयज खाशेली बसका

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**सावयवेरें :** सावयवेरेंच्या श्री लयराई देवी धोंड भक्तांची ताकतिकेची बसका आयतारा, १० एप्रीलाक सांजवेळा ५.३० वरांचेर सावयवेरेंच्या श्री सांतेरी देवस्थानाच्या सभामंडपांत आपयल्या.

कोविडा विशींचीं सगलीं मार्गदर्शक तत्वां पाळून ही बसका जातली. सावयवेरें वाठारांतल्या सगल्या धोंड भक्तांनी बसकेक हाजीर रावचें अशें आवाहन समितीन केलां.

# राज्यपाला कडल्यान रामनमीचीं परबीं

■ भांगरभूंय । खबरांमेज

**पणजी :** गोंयचे राज्यपाल पी. एस. श्रीधरन पिल्लई हांणी रामनम उत्सवाच्या शुभ प्रसंगार गोंयच्या लोकांक काळजा सावन उर्बेभरीत परबीं भेटयल्यांत.

रामनम हो म्हत्वाचो दीस. ह्या दिसा श्रीरामाचो जल्म जालो. हो दीस देशभरांत व्हडा धर्मीक भावनेन आनी उमेदीन मनयतात. आदर्श व्यक्तिमत्वाचे सगले सद्गूण श्रीरामाच्या आंगांत आशिल्ले.

ते एक आदर्श पूत, आदर्श भाव, आदर्श घोव, आदर्श इश्ट आनी आदर्श राजा आशिल्ले. तांचे सदगूण आनी निपुणतायेक लागून तांकां 'पुरूषोत्तम' म्हूण वळखताले. अयोध्येंतल्या तांच्या राज्य कारभाराचें रामराज्य म्हूण वर्णन केलां. राम सदांच सत्याच्या मार्गान चलतालो अशें राज्यपाल पिल्लई हांणी आपल्या संदेशांत म्हणलां.

ह्या उत्सवाच्या प्रसंगार आमी सत्य, नैतिकता, प्रामाणिकपण, नमळाय आनी उजू निती तत्वां कडेन स्वता समर्पीत जावया. ह्या वर्सा रामनमीचो सुवाळो आमी सुरक्षेच्या शिश्टाचारांक पाळो दिवन मनोवया.

ह्या वर्साचो रामनमीचो उत्सव दरेकाचे जिणेंत शांतीकाय, समृध्दी आनी खुशालकाय घेवन येवं अशें राज्यपालांनी संदेशात म्हणलां.

# दिवचले आयज रामोत्सव

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**दिवचल:** विश्व हिंदू परिशद रामोत्सव समितीचे वतीन आयतारा, 10 एप्रीलाक सांजवेळा 6.30 वरांचेर दिवचलच्या छत्रपती शिवाजी महाराज मैदानार रामोत्सव मनयतले. विश्व हिंदू परिशद, गोंयचे मुखेली आनी आदले आमदार मोहन आमशेकार, सुर्यकांत देसाय, संजय नायक हांणी एके पत्रकार परिशदेंत ही म्हायती दिली.

आठ प्रखंडांत मेळून 50 सुवातांनी रामोत्सव मनयतले. कार्यावळींत शांतीसागर हावळे हांचें व्याख्यान जातलें.

ह्या वेळार श्री राम जल्मभूमी मंदिर उबारपा खातीर 6 कोटी 40 लाख रुपयांचो निधी गोंयांतल्यान एकठांय केला अशी म्हायती तांणी दिली. रामोत्सव कार्यावळीक मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत आनी आमदार डॉ.चंद्रकांत शेट्ये हाजीर रावतले अशें सुर्यकांत देसाय हांणी सांगलें.

# डोंगरेच्या श्री सीतारामचंद्र मंदिरांत आयज रामनम

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**आगशी :** डोंगरी थोरले भाटांतल्या श्री सीतारामचंद्र मंदिरांत सेगीत पंदरा दिसांचो किर्तन-मखरोत्सव सुरू जाला. फाल्यां, आयतारा 10 एप्रीलाक रामनम सुवाळो जातलो. ते निमतान भरगच्च कार्यावळी आयोजीत केल्यात. डोंगरेचे म्हान संत कवी कृष्णंभट्ट बांदकर हांणी हो नामनेचो उत्सव कांय दशकां आदीं सुरू केल्लो.

संवसार पाडव्याक म्हणल्यार 2 एप्रीला सावन पंदरा दिसांच्या उत्सवाक सुरवात जाल्ली. 10 एप्रीलाक सकाळच्या सत्रांत राममंदिरांत रामजल्म सुवाळो जातलो. आदीं धर्मीक विधी जातले आनी उपरांत पारंपारीक पद्दतीन रामजल्म मनयतले.

ते निमतान सांगलीच्या ह. भ. प. संध्या पाठक हांचें रामजल्माचेर आदारीत किर्तन जातलें. तांकां संवादिनीचेर विठ्ठल खांडोळकार जाल्यार तबल्याचेर संजय नार्वेकार हांची साथ आसतली. उपरांत मखरोत्सवाक सुरवात जातली.

मखरांत आनी मंदिरांत सुंदररितीन सजयिल्ल्या श्रीराम, सीता, लक्ष्मण आनी मारूती हांच्या मुर्तीचेर भाविकांचे वतीन फुलां घालतले. उपरांत हाजीर आशिल्ल्यांक श्रींचें दर्शन आनी तीर्थप्रसादाचो लाव घेवंक मेळटलो. श्रींक दिल्ल्या फळांची पावणी जातली.

रातीं 8 वरांचेर परत एक फावट ह. भ. प. संध्या पाठक हांचें किर्तन जातलें. उपरांत मखरोत्सव, तीर्थप्रसाद आनी प्राकारांत पालखी मिरवणूक जातली. हातूंत देवस्थानाचे भावीक वांटो घेतले. धर्मीक विधींची बाजू मंदिराचे पुरयत श्रीराम रमाकांत प्रभू सांबाळटले.

शेनवारा, 16 एप्रील मेरेन हांगा सदांच रातीं किर्तन आनी मखरोत्सव चालू आसतलो. हनुमान जल्मोत्सवूय मनययतले.

डोंगरेच्या श्री सीतारामचंद्र मंदिराच्या मखरांतल्यो श्रीराम, सीता आनी लक्ष्मण हांच्यो मुर्त्यो. (किशोर स. नायक)

# म्हापशां आयज 'स्वरशांभवी'

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें :** एकतानगर, हावसिंग बोर्ड, म्हापशेंच्या श्री साईबाबा मंदिरांत फाल्यां, आयतारा, 10 एप्रीलाक रामनम उत्सव मनयतले.

सुशील सुर्वे हांच्या येजमानपदा खाला फांतोडेर 5.15 वरांचेर काकड आरती, उपरांत धर्मीक विधी, दनपरां नैवेद्य, आरती आनी तीर्थप्रसाद जातलो. सांजवेळा 6.30 वरांचेर स्वरशांभवी ही नाट्यगितांची आनी भक्तीगितांची कार्यावळ जातली आनी उपरांत धुपारती जातली.

# कामुर्ले रामनम : सिद्धी पार्सेकार, शर्वेश साळगांवकार हांचें किर्तन

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें :** कामुर्लेच्या दरबारवाड्या वयल्या श्री राम मंदिरांत आयतार, 10 ते बुधवार, 13 एप्रील मेरेन रामनम उत्सव मनयतले.

गोंयांतलीं बालकिर्तनकार ह. भ. प. सिद्धी सोमनाथ पार्सेकार (मांद्रे) आनी ह. भ. प. शर्वेश शिवानंद साळगांवकार (कामुर्ली) हांच्या किर्तना सयत दनपरां 12 वरांचेर पाळणो सुवाळ्या वांगडाच रामनम उत्सव जातलो. तांकां संवादिनीचेर सोमनाथ पार्सेकार आनी तबल्याचेर अविनाश गडेकार साथ दितले.

आयतारा, 10 एप्रीलाक सकाळीं 11 वरांचेर ही किर्तनाची कार्यावळ सुरू जातली. दनपरां आरती आनी महाप्रसाद जातलो. रातीं 8.30 वरांचेर भजनाची कार्यावळ जातली. अंदू हो उत्सव जयेश नायक हांच्या येजमानपदा खाला जातलो.

सोमारा, 11 एप्रीलाक सांजवेळा 4 वरांचेर श्री सत्यनारायण महापुजा जातली. सांजवेळा 7 वरांचेर भजनाची कार्यावळ जातली. उपरांत महाप्रसाद जातलो. मंगळारा, 12 एप्रीलाक रातीं 9.30 वरांचेर सुयोग कला मंच, करमळी प्रस्तुत 'आतां करपाचें किते' हें कोंकणी नाटक जातलें. बुधवारा, 13 एप्रीलाक रातीं 9.30 वरांचेर श्री अभिनय पणजी, प्रस्तुत 'आवयचो पूत सुनेचेर भूत' हें कोंकणी नाटक जातलें.

## › थळावें खेळां मळ

### फुटबॉल शिबिरा खातीर चलयां खेळगड्यांची निवड

**पणजी:** गोंय फुटबॉल असोसिएशनान फुडारांत जावपी राष्ट्रीय 17 वर्सां पिराये सकयले चलयांचे फुटबॉल सर्ती निमतान शिबिरा खातीर उत्तर गोंय आनी दक्षीण गोंय पांवड्याचेर खेळगड्यांची निवड केल्या. गोंय गोंय शिबीर 12 ते 23 एप्रील ह्या कालावधीत म्हापशेंच्या धुळेर स्टेडियमाचेर सकाळीं सात वरां पसून सुरू जातलें. खेळगड्यांनी मैदानांत जॉन फर्नांडीस, आन्सू वा ॲंथनी लोबो हांचे कडेन संपर्क सादचो. उत्तर गोंय शिबिरांत खुशी मातीवडार, अष्मिता हडकोणकार, अंशिका गुप्ता, पल्लवी नायक, तन्वी परुळेकार, भुमिका गवंडर, त्रिशा हळदणकार, सियोरा फर्नांडीस, लिएण्ड्रा फर्नांडीस, वैष्णवी शर्मा, उत्कर्षा गांवकार, दक्षीण गोंय पांवड्या वयलें शिबीर 12 ते 21 एप्रील ह्या कालावधीत नावेलीच्या सिकेटी मैदानाचेर सकाळीं सात वरां पसून सुरू जातलें. खेळगड्यांनी मैदानांत मारिया रिबेलो हांचे कडेन संपर्क सादचो. शिबिरा खातीर लिसेण्ड्रा रॉड्रिग्स, रिया राजेश, नाओमी व्हिएगस, शॉन्दाले गोम्स, अमेली नाझारेथ, मेरिसिया तावारीस, रिया पत्रे, मर्लीन मास्कारेन्हास, व्हेलांडा डिसिल्वा, व्हॅनिशा वाझ, व्हिनोष्का फर्नांडीस, ॲग्नेस क्वाद्रोस, मेलोष्का कार्व्हालो, मेलिशा कियूर, पलोमा पिरीस, फातिमा ब्रागांझा हांची निवड केल्या.

### खांडोळ्यां बुद्दीबळ सर्त

**पणजी:** खांडोळें सरकारी म्हाविद्यालय आनी राज्याचे म्हायती आनी प्रसिद्धी संचालनालय हांचे वतीन 'भारत की आजादी का अमृत महोत्सवः तंत्रज्ञान के साथ!' ह्या अंतर्गत बुद्दीबळ सर्त जातली. सर्तींत बेतकी, खांडोळें, आमोणे, कुमारजुवें, पोरणें गोंय, मडकय, मंगेशी, प्रियोळ, वळवय, सावयवेरें, सांखळी, दिवचल आनी माशेल ह्या वाठारांतल्या 6 ते 25 वर्सां पिराये गटांतल्या खेळगड्यांक वांटो घेवपाक मेळटलो. सर्त 15 एप्रीलाक जातली. नोंदणी खातीर शुल्क आकारचे नात. अदीक म्हायती खातीर 9420818996 ह्या क्रमांकाचेर संपर्क सादचो. खांडोळें म्हाविद्यालयाचे प्राध्यापक प्रशांत चोडणकार सर्तीचे संयोजक आसात.

### आर्यवत, स्कायला हांकां वस्तादपण

**पणजी:** साश्ट तालुका चेस असोसिएशनान गोवा चेस अस्थायी समितीचे मान्यतायेन घेतिल्ले अखील गोंय आठ वर्सां पिराये सकयले बुद्दीबळ सर्तींत आर्यवत नायक देसायान उक्त्या गटांत आनी चलयांच्या गटांत स्कायला रॉड्रिग्स हिणें वस्तादपण जोडलें. सर्तीचें आयोजन फातोड्ड्यां केल्लें. उक्त्या गटांत एकांग मालवणकार, आरव प्रभुगांवकार, श्रेश्ठ घोंसेकार, कायडन गोम्स, आदित्य दुबे हांणी वळेरेन दुसरी ती सवी सुवात मेळयली. साश्ट तालुको पांवड्याचेर आर्यन नायक आनी जोशुआ तेलीस हांकां इनामां भेटयलीं. चलयांच्या गटांत अवनी सावयकार, म्युरियल फर्नांडीस, द्विती फळदेसाय हांकां वळेरेन दुसरी ती चवथी सुवात फावो जाली. दोनूय गटांतले पयले दोन खेळगडे विजयवाडा हांगा जावपी राष्ट्रीय आठ वर्सां पिराये सकयले बुद्दीबळ सर्तींत गोंयचें प्रतिनिधित्व करतले.

# चेन्नय सुपरकिंग्साची सेगीत चवथी हार

## आयपीएल: सनरायझर्स हैदराबादाचें आठ विकेटींनी जैत

■ खबरां संस्था



**मुंबय:** इंडीयन प्रिमियर लीगेचे (आयपीएल) 17वे मॅचींत सनरायझर्स हैदराबादान सध्याचो वस्ताद चेन्नय सुपरकिंग्साक 8 विकेटींनी हारयलो. सनरायझर्साक जैता खातीर 155 धांवड्यांची मोख मेळिल्ली. ताणें ती 17.4 ओव्हरींनी फक्त 2 विकेटी वगडावन मेळयली. अभिषेक शर्मान सगल्यांत चड 75 धांवड्यो केल्यो. ताचे बॅटींगेक लागून सनरायझर्सांचें जैत आनीक सोपें जालें. जाल्यार राहुल त्रिपाठीन नाबाद 39 धांवड्यांची खेळी केली.

सेगीत दोन हारी उपरांत सनराझर्सान पयलें जैत जोडलें. जाल्यार चेन्नय सुपरकिंग्साचें अजून जैताचें खातें उगडना. ताची ही सेगीत चवथी हार थारली. आयपीएलाच्या इतिहासांत चेन्नय सुपरकिंग्स पयले खेपे सुरवातीच्यो चारूय मॅची हारला.

मजगतीं, चेन्नय सुपरकिंग्सान टॉस हारल्या उपरांत पयलीं बॅटींग करतना 7 विकेटी वगडावन 154 धांवड्यो केल्यो. मोईन अलीन चेन्नय वतीन सगल्यांत चड 48 धांवड्यो केल्यो. जाल्यार अंबाती रायुडून 27 आनी मुखेली रवींद्र जडेजान 23 धांवड्यांचें योगदान दिलें. सनरायझर्स हैदराबादा वतीन वॉशिंग्टन सुंदर आनी टी नटराजन हांणी दरेकी 2 विकेटी घेतल्यो.

मोखीचो फाटलाव करपी सनरायझर्साक चड मेहनत घेवची पडूंक ना. ही मोख मेळोवपा खातीर अभिषेक शर्मा आनी केन विलियम्सन ही ओपनरांची जोडी मैदानांत देंवली. हे जोडयेन उत्कृश्ठ बॅटींग करीत पयले विकेटी खातीर 89 धांवड्यांची भागिदारी केली. 13वे ओव्हरीच्या पयल्या बॉलाचेर विलियम्सन मुकेश चौधरीच्या बॉलाचेर बाद जालो. विलियम्सनान 40 बॉलांनी 32 धांवड्यो केल्यो. हातूंत एक सक्याचो आनी दोन चवक्यांचो आस्पाव आसा.

जाल्यार अभिषेक शर्मान दोळेदिपकावपी बॅटींग करतना 50 बॉलांनी तीन सके आनी पांच चवक्यांचे मजतीन 75 धांवड्यो केल्यो.

दुसरे सुवातेर बॅटींगेक आयिल्ल्या राहुल त्रिपाठीन अभिषेकाक बरी साथ दिली. ताणें 15 बॉलांनी पांच चवके आनी दोन सक्यांचे मजतीन 39 धांवड्यो केल्यो. जाल्यार अभिषेक बाद जाल्या उपरांत बॅटिंगेक निकोलस पुरन आयलो. ताणें नाबाद पांच धांवड्यो केल्यो.

ते पयलीं टॉस हारल्या उपरांत पयली बॅटींग करपी चेन्नय सुपरकिंग्साची सुरवात बरी जाली ना. ओपनर रॉबीन उथप्पा आनी ऋतुराज गायकवाड रोखडेच बाद जाले. उथप्पा 11 आनी ऋतुराज 16 धांवड्यांचेर बाद जालो. दुसरे सुवातेर बॅटींगेक आयिल्ल्या मोईन अलीन मात बरी बॅटींग करून चेन्नय सुपरकिंग्साची लज राखली. ताणें 13 बॉलांनी तीन चवके आनी दोन सक्यांचे मजतीन 48 धांवड्यो केल्यो.

चेन्नय सुपरकिंग्साच्यो विकेटी थारावीक अंतरान पडत गेल्यो. सनराझर्सा वतीन वॉशिंग्टन सुंदर, टी नटराजन हाणें दरेकी दोन विकेटी घेतल्यो. भुवनेश्वर कुमार, मार्को जॉन्सन, मर्करम हांकां दरेकी एक विकेट फावो जाली.

# भारताची नदर फायनलीचेर

## बायलांची ज्युनियर संवसारीक हॉकी सर्त

■ खबरां संस्था

**नवी दिल्ली:** बायलांचे ज्युनियर हॉकी सर्तींत आयज पयली सेमी फायनल भारत आनी नॅदरलॉण्ड ह्या पंगडां मदीं मॅच. ही मॅच जिखून फायनलींत सुवात मेळोवपाचो भारताचो यत्न आसतलो. भारतान हे सर्तीच्या इतिहासांत सर्वोत्कृश्ठ प्रदर्शन 2013त केल्लें. त्या वेळार ताणें जर्मनी हारोवन कांश्या पदक जिखिल्ले.

अंदूंचे सर्तींत भारत एकूय मॅच हारूंक ना. ताणें वेल्साक 5-1 फरकान हारल्या उपरांत जर्मनीक 2-1 हारयला, तशेंच मलेशियाक 4-0 आनी कोरियाक 3-0 अशा फरकांनी हारयला.

सलीमा टेटेच्या फुडारपणाखाला खेळपी भारतान अजून मेरेन सांघीक प्रदर्शन केलां. भारताच्या फॉरवर्ड खेळगड्यांनी सर्तींत आतां मेरेन 14 गोल केल्यात. जाल्यार फक्त दोनूच गोल घेतल्यात.युवा स्टार मुमताज खानान सगल्यांचें लक्ष आपले वटेन ओडून घेतलां. लालरेमसियामी, लालरिंदिकी आनी शर्मिला देवी हांणी ताका बरी साथ दिल्या. मुखेली सलीमा, लालरेमसियामी आनी शर्मिला हीं तिगांय तोकियो ऑलिम्पिकाचे भारतीय पंगडांत आशिल्लीं. तांची उपस्थितीचो ज्युनियर पंगडाच्या प्रदर्शनाचेर सकारात्मक प्रभाव पडला.

मिडफिल्डाक सगलें स्त्रय मेळपाक जाय. पंगडा खातीर गोल करपाच्यो साबार संदी तांणी तयार केल्यात. फॉरवर्ड आनी मिडफिल्डा खेरीत गोलकीपर बिचू देवी करिबमाचे उपस्थितींत बचाव फळयेन दर्जेदार प्रदर्शन केलां. हालींच प्रो लिगेंत सिनीयर पंगडा वतीन पदार्पण करपी युवा बिचून प्रतिस्पर्धी पंगडाचे हल्ले येसस्वी रितीन परतावन लायल्यात. हें सगलें खरें आसलें तरी नॅदरलॉण्डा आड खेळटना भारताचो खरो कस लागतलो.

तीन खेपे वस्तादपण जोडपा खेरीत नॅदरलॉण्डान चिलीच्या सेंटियागोंत जाल्ले सर्तींत उप वस्तादपण जोडलां. भारता भशेन नॅदरलॉण्डान लेगीत गट पांवड्या वयल्यो सगल्यो मॅची जिखल्यात. ते उपरांत क्वॉर्टरफायनलींत ताणें दक्षीण आफ्रिकेक 5-0 फरकान हारयलो.

दुसरी सेमी फायनल जर्मनी आनी इंग्लंड ह्या पंगडां मदीं जातली.

# विश्व कोंकणी दिसा निमतान कोची जालें कवीसंमेलन

‘स्पंदन’म्हयन्याळ्याचे चित्तरंजन नायक हांचो भोवमान केले उपरांत मानेस्त.

■ भांगरभूंय । खबरां मेज

**कोची (केरळ) :** कोंकणी केंद्र - गोश्रीपुर संघटनेच्या आयोजना खाला विश्व कोंकणी दिसा निमतान शेनवारा एन. सदानंद कामत हांच्या घरा कोंकणी कवी संमेलन जालें.

प्रार्थनेचे उपरांत गोश्रीपुर संस्थे वतीन एन. सदानंद काममत हाणीं येवकार दिलो. ज्येष्ठ साहित्यीक आर. एस. भास्कर हांणी विश्व कोंकणी दिसाचो संदेश दिलो. कोंकणी लोक भाशीक विचारांच्या द्वंद्वांत पडून आशिल्लो, त्या काळांत शणै गोंयबाब हांणी कोंकणीचें पुनरुज्जीवन केलें. तांच्या कारकिर्दी पसून दरेकल्यान आदर्श घेवन कोंकणी समाजाक प्रशस्त केल्ल्या मार्गाचेर सगल्यांनी गौरवान चलूंक जाय. कोंकणी वयर काडपाक सगल्यांनी वावरूंक जाय, अशें श्री. भास्कर हांणी संदेशान सांगलें.

आर. भास्कर, एन. बालकृष्ण मल्ल्या आनी ‘स्पंदन’ ह्या कोंकणी म्हयन्याळ्याचो जीव, श्वास जावन आशिल्ले चित्तरंजन नायक (गोश्रीपुरं हरिकुमार) हांचो कोंकणी मायेली भेट म्हूण सदानंद कामत हांणी शाल पांगरून सन्मान केलो. उपरांत भास्कर हांचे अध्यक्षते खाला कवी संमेलन जालें. तातूंत एन. बालकृष्ण मल्ल्या (देवु खंय विजयु थंय, तुजी वाट हांवय गे पळेयतां), एन. सदानंद कामत (धर्म पत्नी, आवसु भाषा), सुरेश वी. शणै (तीर्थयात्रा संग्रह), के. एन. रमेश भट (नवग्रह), धन्या जी. मल्ल्या (मना ! तूं भुजता इत्याक?), आर. रामानन्द प्रभू (गोडि गोडि स्मरणा, पवित्र मोगाची जोडी), एन. माधव राव (यशश्री सुशीला टी भट), आर. एस. भास्कर (हांव दरियाची खोलाय मेजता), गोश्रीपुरं हरिकुमार (चेण्ड्यारी बड्डि पळ्ळि) ह्या कवींनी कविता सादर केल्यो. उपरांत वाचिल्ल्या कवितांचेर भासाभास जाली. मागीर मंगल प्रार्थनेन कार्यावळ सोंपली.

## बंगळुरूचें 7 विकेटींनी जैत

■ खबरां संस्था

**मुंबय:** इंडीयन प्रिमीयर लिगेंत (आयपीएल) काल जाल्ले दुसरे मॅचींत रॉयल चॅलेंजर्स बंगळुरून आदलो वस्ताद मुंबय इंडियन्साक 7 विकेटींनी हारयलो. मुंबय इंडियन्सान दिल्ले 152 धांवड्यांचे मोखीचो फाटलाव करपी बंगळुरून 18.3 ओव्हरींनी 3 विकेटी वगडावन 152 धांवड्यो करून जैत जोडलें.

ह्या जैता सयत बंगळरू गुणतकट्यांत तिसरे सुवातेर पावलो, जाल्यार मुंबय इंडियन्साची ही सेगीत चवथी हार थारली.

ते पयलीं टॉस हारल्या उपरांत पयलीं बॅटींग करतना सुर्यकुमार यादवाच्या 68 धांवड्यां नेटार 6 विकेटी वगडावन 151 धांवड्यो केल्यो. ते पयलीं मुखेली रोहीत शर्मान ईशान किशाना वांगडा मेळून पयले विकेटी खातीर 50 धांवड्यांची भागिदारी करून पंगडाक बरी सुरवात करून दिल्ली.

ही जोडी हर्षल पटेलान फोडली. ताणें रोहीत शर्माक (26) बात केलो. ते उपरांत मुंबयचो डाव गडगडलो. दुसरे विकेटीच्या रुपान डेवाल्ड ब्रेवीस बाद जालो. ताका हसरंगान एलबीडब्ल्यू बाद केलो. ते उपरांत ईशान किशन तंबूंत परतलो. ताणें 26 धांवड्यो केल्यो. फॉर्मांत आशिल्लो तिलक वर्मान शुन्याचेर बाद जालो. कायरन पोलार्डाच्या रुपान मुंबयक पांचवो धपको बसलो.

मुंबयन 79 धांवड्यांचेर आपल्यो स विकेटी वगडायिल्ल्यो. ताका शंबराचो लेगीत आंकडो हुपपाक जमचो ना अशें दिशिल्लें. पूण, सातवे विकेटी खातीर सुर्यकुमार यादव आनी जयदेव उनाडकट हाणें उत्कृश्ठ बॅटींग करतना पंगडाक सम्मानजनक स्कोर उबारून दिलो.

# सिंधू, श्रीकांत हांचें आव्हान सोंपलें

■ खबरां संस्था





**नवी दिल्ली:** कोरिया ओपन सुपर 500तलें भारताचें आव्हान सोंपलें. पी व्ही सिंधूक बायलांच्या एकोड्या गटांत हार घेवची पडली, जाल्यार त्याच वेळार किदम्बी श्रीकांत हाका दादल्यांच्या एकोड्या गटांतले उपांत्य फेरयेंत हार घेवची पडली.

बायलांच्या गटांत दोन दोन खेपे ऑलिम्पिकांत पदक जिखपी पी व्ही सिंधूक दक्षीण कोरियाचे आन सियोंग हिणें 14-21 आनी 17-21 अशी हारयली. 48 मिनटां मेरेन चलिल्ले मॅचींत कोरियन खेळगडयेन बरी सुरवात केली.

तिणें पयले गेमींत 6-1 अशी आघाडी घेतली. पूण, सिंधून पुनरागमन करतना गूण संख्या 9-9 अशी बरोबरीत हाडली. उपरांत मात ती फाटीं पडली आनी सियोंग हिणें 21-14 अशा फरकान पयली गेम जिखली.

दुसरे गेमींत सिंधून बरी सुरवात करीत 3-0 अशी आघाडी घेतली. पूण, सियोंगान सेगीत पांच गूण घेत गूणसंख्या 5-3चेर व्हेली. सिंधून परतून 9-9 अशी बरोबरी सादली. उपरांत सियोंगान 11-9 अशी आघाडी घेतली. अखेरेक 21-17 फरकान जैत जोडलें.

सियोंग पयलेच खेपे देशांतर्गत सर्तीचे फायनलींत पावली. जाल्यार सिंधू सेगीत चवथे खेपे तिच्या आड हारली.

दादल्यांच्या एकोड्या गटांत लेगीत भारताच्या हाताक निर्शेणी लागली. सेमी फायनलींत ताका आशियायी खेळांत भांगरा पदक जिखपी जोनाथन क्रिस्तीनन 50 मिनटां मेरेन चलिल्ले मॅचींत 19-21 आनी 16-21 अशी हार घाली. फाटल्या म्हयन्यांत जाल्ले स्विस ओपनाचे सेमी फायनलींत ताका क्रिस्तीजानूच हारयिल्लो.

श्रीकांतान पयले गेमींत बरी सुरवात करीत 9-7 अशी आघाडी घेतिल्ली आनी एका वेळार 11-8 असो मुखार आशिल्लो. क्रिस्तीन उपरांत 13-13 अशी बरोबरी सादली. ते उपरांत स्कोर 17-17 जालो. क्रिस्तीन स्मॅश आनी उत्कृश्ठ रिटर्न सयत गेम पॉयण्ट मेळयले आनी अखेरेक क्रिस्तीन पयली गेम 21-19 फरकान जिखली. दुसरे गेमींत क्रिस्तीन बरी सुरवात केली. ताणें 3-0 अशी आघाडी घेतली, जाल्यार गेम 21-16 फरकान जिखली.

## टॅनीस खेळगडो सोंगा जातलो निवृत्त

■ खबरां संस्था

**पॅरीस:** ऑस्ट्रिलयन ओपनाचे आदलो उप वस्ताद जो विल्फ्रेड सोंगा फ्रॅंच ओपना उपरांत टॅनीस खेळांतल्यान निवृत्त जावपाची घोशणा केली.

फ्रान्साच्या 36 वर्सां पिरायेच्या सोंगान 2012त कारकिर्दींतलें सर्वोच्च पांचवें रॅंकींग मेळयिल्लें. पूण, फाटले खेपे दुखापत जाल्ल्यान ताका साबार सर्तींतल्यान भायर रावचें पडलें आनी ताका लागून ताचें रॅंकींग घसरून 220चेर पावलें. ताका लागून फ्रॅंच ओपनांत ताका थेट प्रवेश मेळचो ना. ताका आयोजकांच्या वायल्ड कार्डाचेर निंबून रावचें पडटलें.

ताणें कारकिर्दींत 18 एटीपी किताब जिखल्यात. 2008त तो ऑस्ट्रेलियन ओपनाचे फायनलींत पाविल्लो. पूण, ताका सर्बियाच्या नोवाक जोकोवीचा आड हार घेवची पडिल्ली.

## रामनम विशेश

# मनामनांनी रामराज्य स्थापूया

**प्रभू श्रीराम हो भगवान विष्णूचो सातवो** अवतार. अयोध्येंत दशरथ राजा आनी कौसल्येचो हो व्हडलो पुत. प्रभु श्रीराम हे ‘आदर्श पुत’. कैकयी मातेचे आज्ञेन ते 14 वर्सां वनवासात गेले; पूण वनवास सोंपोवन येतकीच कैकयी माते लागीं ते मायेमोगान उलयले, तिका पाय पडले. आवय- बापायच्या आज्ञेचे पालन करप हो श्रेष्ठ धर्म, अशेंच ते मानताले. ते एक ‘आदर्श भाव’ आसले. लक्ष्मण, भरत, शत्रुघ्न ह्या सगल्या भावांचेर तांची एकसारकी माया. तांचेर वनवासाक वचपाची पाळी आयली, सगळ्या भावांनी तांचे वांगडा येवपाची तयारी केली. रयतेचो सांबाळ आनी राज्याची धुरा हाका लागून श्रीराम आनी लक्ष्मण हे दोगीय सीतामाई वांगडा वनवासाक गेले.अशें तांचे भावाभावांचे प्रेम!

ते एक ‘आदर्श घरकार’य आसले. तांचे एकपत्नी - व्रत सगळ्यांक ज्ञात आसा. त्या काळांत राजाच्यो एका परस चड राणयो आसताल्यो. अशा काळात बायलेचो त्याग करतकच ते विरक्त जीवन जगले. राजधर्म म्हणून तांणी बायलेचो त्याग केलो; पूण राम-सीता हे एकाच धाग्यांत घट्ट बांदिल्ले दोन देह, पूण तांचे आत्मे, मनां एकच, हेंच सत्य श्रीरामान जगा मुखार दाखोवन दिलें. ते आदर्श मित्रय आसले. म्हूणून श्रीरामान सुग्रीव, बिभीषण हांकां मदतीचो हात दिलो. शेवट मेरेन इश्टागत सांबाळून दवरली. ते एक आदर्श दुस्मानुय आसले. रावणवधा उपरांत

तांचोअग्नीसंस्कार करपाक बिभीषणान न्हयकार दिले उपरांत श्रीरामान ताका म्हळे, ‘तूं जर तुज्या भावाचो अंतिम विधी करचो ना, तर हांव करतलों, तो जसो तुजो भाव, तसोच म्हजोय भाव. मरणा वांगडा दुस्मानकाय सोंपता’. कितले म्हान विचार हे!

श्रीराम हे एक ‘आदर्श राजा’असले. आपल्या वैयक्तिक सुखाचो विचार ना करता, एका धोब्यान सीतामाय विशी संशय व्यक्त करतकच, श्री रामान राजधर्म म्हणून सीतामाईंचो त्याग केलो; पूण, मनान सीतामाई आनी श्रीराम केन्नाच वेगळे नासले. सर्वश्रेश्ठ धर्मपालक म्हूणूनच आज ते प्रत्येक मनामनात वास करतात. सीतामाईंच्या वियोगान तळमळणारे श्रीराम फक्त तांच्या भक्तगणांक कळ्ळें. श्रीरामाक मर्यादा पुरुषोत्तम, अशेंय म्हण्टात. अशा या पराक्रमी आदर्श राजाक कोटी कोटी प्रणाम!

अंदूंची रामनम उत्सव 10 एप्रीलाक जाता. श्रीरामांच्या आदर्शत्त्वाचो, गुणांचो अधिकाधिक लाब करून घेवपाक लागून आमी ‘श्रीराम जयराम जयजय राम’. हो नामजप सतत करूया आनी मनमंदिरांत रामराज्य स्थापूया.

**- गोविंद लोलयेंकार,**
8208398699

### रामाक

रामा तुवें, कितले रे, आडे हुपले
वचन ना मोडलें, भाले तुवें झेलले
भुरगेपण तुजें ,गुरूक तुवें ओंपलें
जुवानपण, वनवासांत काडलें ॥१ ॥ वचन

अर्धांगेखातीर ,झूज तुवें पेललें
रावणाक मारून, लोकांक वाटायलें ॥२ ॥ वचन
शेंकड्यांनीं वर्सांचें ,सपन फळा आयलें
नडी पयसावन ध्येय लागीं पावलें ॥३ ॥ वचन

अती आडखळीचें, मालें रे सुटलें
जल्मस्थानाचेर देवूळ बांदप थारलें ॥४ ॥ वचन
तंबुतले दीस तुजे, आतां सोंपले
रामा देवूळ अयोध्येक आयलें ॥५ ॥ वचन

**- पुष्पा नायक**
मिरामार पणजी

■ **मुद्रक आनी प्रकाशक प्रमोद आचार्य** हांणी प्रुडंट मिडिया (गोवा) प्रा.लि. गोंय हांचे वतीन हें पत्र एलेगंट ऑफसेट प्रिंटर्स प्रा. लिमिटेड, प्लॉट नं. 2-3-4, थिवी इंडस्ट्रीयल इस्टेट करासवाडो, म्हापशें-गोंय हे सुवातेर **छापून** दुसरो माळो, फोर्थ इस्टेट (कामत मॅट्रोपोलीस) सांत इनेज, पणजी-गोंय हांगां **प्रकाशीत** केलें.

■ **संपादक: महेश महादेव दिवेकार** (पीआरबी कायद्या खाला संपादकी जबाबदारी)
■ **पणजी कचेरी:** दुसरो माळो, फोर्थ इस्टेट (कामत मॅट्रोपोलीस) सांत इनेज, पणजी-गोंय हे सुवातेर उजवाडायलें. फोन नं. **2405952**.

■ **ई-मेल: bhaangarbhuin@gmail.com** (बातम्या खातीर) **bhaangarbhuineditorial@gmail.com /** (लेख आनी साहित्या खातीर ) **/ bhaangarbhuinadvt@gmail.com** (जायरातीं खातीर). 